

# इदं न मम



शरतचंद्र शेणै

विमला वी पै विश्व कोंकणी कविता कृती पुरस्कार 2018

Konkani

**IDAM NA MAMA**

(Poetry)

*Author:*

**Saratchandra Shenoi**

Gokul, 18 / 535 A

Ayyappa Seva Sangham Road

Palluruthy, Kochi - 682006

(saratchandrashenoi@gmail.com)

First Edition: 2017



Price: ₹ 150/-

Published by Author

*Printed at:*

AYODHYA PRINTERS

Elamakkara, Ernakulam - 682026

# कविसंधी

केंद्रीय साहित्य अकादेमीची *कविसंधी* कार्यावळ आशिल्ली, मंगळूरूंत. कर्णाटका कोंकणी भाशा मंडलाचे जोड पालवान, मंगळूरूचे विश्व कोंकणी केंद्रांत गेल्या ऑक्टोबर म्हयन्यांत ती घडयलेली. मानेस्त श्री. बस्ती वामन शेणै माम आशिल्लोच. ते भायर श्री. एड्वीन डिजोस आनी श्री. गोकुलदास प्रभू हेय बी उपस्थित आशिल्ले. साहित्य अकादेमीची *कविसंधी* म्हळ्यार प्रतिष्ठित कवीं खातीर आशिल्ली खाशेली कार्यावळ. कवीक आपल्यो वेंचीक कविता रसिकां मुखार सादर करूक मेळता आनी ताचे बरोबर कविता निर्मिती फाटले आपले विचार आनी अणभव मांडूकूय मेळता. त्या दिसा थांगा आमंत्रितां मुखार मांडलेले विचार, भावना आनी अणभव आतां तुमच्याय मुखार दवरतां.

म्हजे खातीर ती एक भांगरा संद थारिल्ली. कित्या म्हळ्यार ते कार्यावळेचे निमतान माका मिगेल्यो परण्यो नव्यो साबार कविता परतून वाचूच्यो पडल्यो. आनी तो आशिल्लो भोवच अश्रेकणेचो एक अणभव. सांगातांत थोड्या म्हालगड्यांचे उडगासय आयले - पद्मश्री र. वि. पंडित, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय आनी श्री. पी. जी. कामत.

पद्मश्री र. वि. पंडित म्हळ्यार आधुनिक कोंकणी कवितेक बुनयाद घालपी महान कवि. *कविता, ही एक तपश्चर्या! ती तुका साध्य जावं! जातली!* अश्या उजळ उतरांनी तीन दशकां पूर्वी माका आशिर्वाद दिवपी महान मनीश.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय म्हळ्यार कोंकणीचे लोककवि आनी रसिकांचे इष्टकवि! *कवितेवेल्यो तुज्यो कविता जिविताचें वेगळेंच दर्शन घडयतात*.. म्हूण कळोवन दोन दशकां पूर्वी म्हज्यांत उमेद वाडोवपी रसिक शिरोमणी. मिगेल्या प्रथम काव्यसंग्रहांत असल्या कवितांक म्हणूच एक खंड आशिल्लो. तेच वरी, शांतिनिकेतनांत घडोवन हाडलेल्या

सर्वभाषा कविसंमेळनांत हांवें सादर केलेली कविताय ह्याच विषयाची आशिल्ली - *निमणी कविता!* ताका लागून ती कविता मागीर भारताचे इतर अनेक भाशांनी भाशांतरित जावन आकाशवाणीचे समस्त केंद्रांनी प्रस्तुत जाली.

तीच कविता, ताच्या इंग्लीष भाशांतरा सयत *भारत भवन* हे सरकारी संस्थेन एरणाकुळमांत घडोवन हाडलेले बहुभाषा कविसंमेळनांतूय हांवें सादर केली.

*कवितेवेल्यो कविता* हो विशय घेवन हांवें कविसंधींत सादर केल्ल्यो कविता अश्यो *-कविता जन्मता केन्ना, निपून, बळी, पयलो रसिक, धनी*. ह्या संग्रहांतूय असल्यो थोड्यो कविता आसाय. *कविता करूंक कितें कितें जाय* ह्या प्रश्नाक मेळता ती जाप अशी -

सत्य जाय, सपन जाय
सुखा सयत दुःख जाय
जीण थोडी हल्की जाय
जाय थोडी तीक्ष्णताय
हांचे परस चड म्हळ्यार..
भितर एक कीट जाय!

मिगेली हे *सूर्या* ही कविता मनोहर बाबांक विशेश रूपान आवडलेली. एके चिट्येंत तांणी बरयलें - *खूब आवडली, हड्डें तापोवपी अशी..* मागीर ते कवितेची परिभाशा तांणी साहित्य अकादेमीचे *समकालीन भारतीय साहित्य* ह्या नेमाळ्यांत उजवाडायलीय. ते कविते विशी तांचें निरीक्षण अशी - *जिविताचो दर्या तापता तेन्ना उतरांची वाफ जावन परतून सूर्याकडेन झेप घेता..*

कवि चड करून आपल्या काळजांतलें सांगता हें खरें. पुण एकेकदा ताका ताच्या मनांतलेंय सांगूका जाता. अश्या वेळार ताचे

कवितेंत थोडी तीक्ष्णताय, थोडी अस्वस्थताय, थोडें तत्वज्ञान, थोड्यो टिका, थोडो उपहास, आदी आपशींच भितर सरताय. हांवें *कविसंधी* कार्यावळेंत परामर्शिल्लो आनी एक विशय हो. विशयाक लागून म्हजी *गंगास्नान* ही कविता हांवें सादर केली.

*कविता ट्रस्ट* हे संस्थेन मंगळूरू विश्व कोंकणी केंद्रांत घडयलेले *कविता फेस्त 2016* सुवाळ्यांत हांवें सादर केलेली *अस्वस्थ* ही कविताय ह्या गणांतली. ते कवितेचो शेवट असो जाता -

दोळे धांकूयेता तरीय
कान, नांक, तोंड, आंग
राखून वांचूयेता तरीय
मन धांकप शक्य ना!
देकून समाधान ना..
अजून स्वस्थताय ना..

सैम म्हळ्यार कदीम काला पासून कवींचो इष्टविशय. पुण म्हजे कवितेंत सैम चड करून मनशा लागी जोडून आसा. म्हज्या *संक्रमण, गांव, खंय ती न्हंय, दोवा कण, गीम* आदी कवितांनी रसिकांक हें दिसतलें.

सुमार सगल्याय मनशां भितर उण्यांत उणे दोन व्यक्तित्वां तरी आसाय. कवि म्हूण ना कलाकार म्हूण ना, शिक्षक आसूं वा शास्त्रज्ञ, दादलो ना जाल्यार बायल, हें एक वास्तव आसा. असलीं द्वंद्वां म्हज्याय भितर आसाय. म्हजी *द्वंद्वां* शीर्षकाची कविता ह्याच विशयाक धरून बरयलेली. ह्या विशयाची म्हजी आनी एक कविता *गोंयकार* नेमाळ्याच्या *काव्यदर्शिका* कलेंडराचेर पळोवंक मेळता - *कोण तूं?*

कवीचो आनी एक सभाव म्हळ्यार ताका उलोवपाची संवय! तो ताचे भाव, भावना, उमाळे, अनुभूती, विचार, चिंतनां, सदांच सांगूक

सोदी. जशी फुलप म्हळ्यार खंयच्याय फुलाचो धर्म आसता, तशी कवीचो धर्म आसता उलोवपाचो! ताच्या आंगांतलो गूण तो! मनोहर बाबान आपल्या अप्रतिम उतरांनी हें कार्य सांगल्यां -

फुलाक म्हळें, फुलूनाका!
फुलान म्हळें, उलोवनाका!

उतर फुटलेंना तरी घुसमट मारता असले अवस्थेंत थोड्यो कविता जन्माक येताय. म्हज्यो *विलाप, यरूशलें, अमेरिका, किण्ण खीण, उत्तर रामायण, नट,* आदी कविता ह्या गणांतल्यो.

जाल्यार कवीक मोनो बेसूंकय अधिकार आसाच! जीवितांत एकेकदा समस्त उतरांय निरर्थ दिसचे संदर्भ येताय म्हणून अशें जाता. मुद्दम न्हय. कोणाचेय भीतीन वा कोणाक तरी खुशामत करपाक म्हूण न्हय. सोंसपा भायले निरशेणीन! म्हजे *मोनो बेसूंक दी* शीर्षक कवितेंत कवील्या ह्या हक्काचो परामर्श आयला.

म्हजो आनी कवितेचो संबंद केवल कोंकणी कविते पुरतो उरूंक ना. इंग्लीष, मलयाळम, हिंदी आनी संस्कृत कवितेचो परिचय जाल्ले उपरांतेंच हांव कोंकणी कवितेकडे पाविल्लों. सुमार कविता हांवें इतर भाशेंतल्यान कोंकणींत उतरायल्योय आसाय.

जाल्यार हांतूली *तत्वार्थगीता* भाषांतर न्हय. भगवद्गीतेचें हें एक प्रमाणीक सारसंग्रह. म्हज्या काव्यप्रवासांतलो एक मैलांफातर हो. अश्या कांय आदल्या मैलांफारांचो आनी कविसंधींत परामर्शित कवितांचोय आस्पाव ह्या संग्रहांत, मुद्दम हाचीं पानां वाडोवन केला.

अशी जाली म्हजी आनी म्हजे कवितेची काणी. उरिल्लें सगलें तुमकां ह्या कवितांनी मेळतलें. धन्यवाद.

**शरतचंद्र शेणै**

# मांडावळ

## मांडावळ

# मांडावळ

# पवळीं



---

म्हजीं कांय वेंचीक कवनथिकां
सर्गेस्त श्री. पी. जी. कामत हांचो उडगास घेवन
'पवळीं' ह्या शीर्षका खाला हांगा एकडे केल्यांय.



**इदं न मम ..**

वागीश्वरी!
तुजींच चैतन्यकिरणां
म्हज्यांत उपजलीं वचनां
तींच मेळून हीं कवनां !
इदं न मम ..

तत्व न्हय, तथ्य हें
परमळीक सत्य हें
वचन तुजें ! कवन तुजें !
इदं न मम ..

## तत्वार्थगीता

[श्रीमद् भगवद्गीतेचें हें एक प्रमाणीक सारसंग्रह. श्रीभगवंताल्या मार्गदर्शनाचें आनी तत्वदर्शनाचें अर्क हांतूं आसा.]

*कृष्णा, हे रणभुंयेर उबे*
*बंधू मिगेले समस्त सगले.*
*पूजनीय हे गुरु, आचार्य*
*दायजी आनीक स्वंत कुलाचे.*

*म्हज्यान जायना हत्या हांगेली,*
*घोर पाप मू कुलाची हानी.*
*हीं दवरतां शस्त्रां मिगेलीं,*
*हत्ये परसूय मृत्यू मू बरी!*

सोडि अर्जुना विकल भावना
क्षात्रवीर तूं उठ धनुर्धरा!
रणभुंयेचेर कसलें दुःख हें
आंग अंतर दुर्बल करचें!

चंचल चिंतन सोडि अर्जुना
देही कदापि नाश पावना!
सदा आशिल्लो, सदा आसतलो!
उजो लाशिना, अस्त्र खोंबना! (04)

जन्म घेतल्लो मृत्यु पावंतलो
मृत्यु पाविल्लो दुशेर येतलो!
आत्मो अनश्वर अविनाशी
न्हेसता वस्त्रां नवीं नवीं!

बाल्य धरून वार्धक्य कशी
देहाक मेळता सहज तशी
देहांतरांत वता देही
स्वता अव्ययी अविनाशी!

*कृष्णा, चंचल मन मिगेलें*
*मार्गदर्शन जाय तुगेलें!*
*धर्म - श्रेया मार्ग कसलो*
*सांग माका, हांव शिष्य तुगेलो!*

पार्था, जगाचें सुख दुःख
थंडी उष्ण येंवचे समान
इंद्रियभ्रमांत पडूनाका
जिक्वुका तांकां समचित्तान!

इंद्रियांक लागून रागद्वेष
विषयासक्तीन निपता ज्ञान
स्थैर्य मेळोवंका मनाक बुद्ध्येन
भितरचे शत्रूक करी हनन. (09)

इंद्रियजनित समस्त जावो
आत्मसंयमा अग्नींत समिधा
सुख दुःख जैत पराभव
समभावान आपणावंका.

समभावान कर्म करतना
पुण्य पाप दोनीय लागना
फलासक्ति ना तरी ते कर्मान
कर्मीक कसलेंच बंधन ना.

कर्म प्रवृत्ती तुगेली वृत्ती
कर्मफलाचेर ना अधिकार.
आसूक नज फलाची इच्छा
कर्मत्यागूय अस्वीकार!

यज्ञरूपान आत्मशुद्धीक
ज्ञानपूर्व जाय कर्म करूक.
कर्मयोगीलें असलें कर्म
लीन जाता ब्रह्मांत सर्व.

लोकहिताक अचल मनान
कर्म करी कर्तव्य म्हणूनं
ममत्व सोडून मिजेर अर्पून
लड हें युद्ध धर्म म्हणून! (14)

क्षात्रधर्माक श्रेष्ट हें रण
धर्मपालन पुण्यप्रदायन.
धर्म चुकयल्यार निंदाकारण
अपयश अवमती मृत्युसम.

रणभुंयेंचेर जीव दिल्यार
स्थान मेळतलें स्वर्गाचेर.
रणांत जैत मेळ्ळें जाल्यार
राज्य करतलो भूमीचेर.

स्वयं स्वताक उद्धारका
स्वताचो हात सोडूनाका.
स्वय आपणूच स्वताचो बंधू
स्वय आपणूच स्वताचो शत्रू!

जैत स्वताचेर जोडल्यार बंधू
हारवलो जाल्यार तो शत्रू.
स्वताक जिक्वून प्रशांत तुष्ट
स्थितप्रज्ञ जाताय वरिष्ट.

ज्ञान आनी विज्ञान जोडून
इंद्रियांचेर जैत जोडून
सुखादुःखांत एक मनान
आसता तो योगीक समान. (19)

फातर भांगार समान ताका
कीर्ती अकीर्ती एक समान.
मित्र सज्जन शत्रु दुर्जन
बंधू गांवजन सर्व समान.

विषयचिंतनान नातें उपजता
नात्यान विषयासक्ती उपजता.
ताचान क्रोध, विवेकनष्ट
स्मृती, बुद्धी तशी सर्वय नष्ट.

ज्या इंद्रियार मन बेसता
तें ताका ओडून गुलाम करता.
इंद्रियदासाक बुद्धी आसाना
काममोहिताक शांती आसाना.

काम क्रोध लोभ हीं दारां
नरका काळखा कडेचीं दारां!
तृष्णा आसता नितांत शत्रू
घोर पापांक मुखेल हेतू.

काम क्रोध गर्व ममत्व
त्यजिल्लो प्रज्ञेन एकनिष्ट.
आशापाशांतुल्यान मुक्त
अनासक्त तो अचलवरिष्ट. (24)

सत्वगुणीक भेदभाव ना
        कर्म अहित म्हूण तनिक द्वेष ना.
हितकर्माचेर प्रीती मोग ना
        कर्मफलाची करीना इच्छा.

कर्मांतुल्यान यज्ञ उपजता
        ज्ञानयज्ञ तें श्रेष्ट आसता.
जाता भस्म ज्ञानाग्नींत
        चंचल संशय सर्व समस्त.

मनाक सुस्थिर करूक दुष्कर
        अनासक्त निष्ठेन सुलभ.
अविश्वास संशयांनी चंचल
        संशयात्म्याक नाश निश्चित.

शुभकर्मीक सुलभ सद्गती
        सुस्थिर मनान रजोविमुक्ती.
कर्मी ज्ञानी तपस्वी पशी
        कर्मयोगी तो उच्चस्थानी.

जुळयता देहाक देहीलागी
        सात्विक राजस तमोगुण.
प्रभाव ना देहीचेर तांकां
        भोगूका पुण फल देहान. (29)

सत्वगुणाचें नातें आसता
सुख आनीक ज्ञानालागी.
सत्वगुणी देवांक पुजीता
जाता ताचो उद्धार वयरी.

रजोगुणाक तृष्णेकडे
सहज तराचें नातें आसता.
यक्ष राक्षसगणांक भजून
मध्य तलार तिष्ठत आसता.

तमोगुणाचें नातें आसता
आलस्या - माये लागी.
भूत - प्रेतांक सेवा करून
खंडित जाता अधोगती.

फलेच्छेविणे विधी अनुसरून
याग केल्यार तो सत्वगुणाचो.
फलेच्छेविणे श्रद्धेन निष्ठेन
तप केल्यार तें सत्वगुणाचें.

फलकांक्षेन नांवां महिमेक
याग केल्यार तो राजसिक.
फल इच्छून गर्व काडून
तप केल्यार तें राजसिक. (34)

अश्रद्धेन आनी विधी चुकोवन
याग केल्यार तो तामसिक.
विमूढचिंता दुर्बुद्ध्येन
तप केल्यार तें तामसिक.

देवांची गुरुंची पूजा,
अहिंसा, अशी तप देहाचें.
वेदपठन की हितसंभाषण,
सत्यकथन बी वाङ्मय तप तें.

पूर्ण मनान फलेच्छेविणे
सुपात्रदान सात्विक आसता.
कर्मफलाचो त्याग केल्यार
त्याग तसलो सात्विक आसता.

फल इच्छून अर्द मनान
करचें दान तें राजसिक.
दुःख क्लेश निमित्त करचो
कर्मत्यागूय राजसिक.

अनुचितवेळार अनादरान
अपात्रदान तामसिक.
मायेन, अविवेकान केलोलो
कर्मत्यागूय तामसिक. (39)

अनेकजीवांत एकब्रह्म
हेंच आसता ज्ञान सात्विक.
फलासक्ति नातिल्लें कर्म
कर्म तें आसता सात्विक.

अनेक जीवांत अनेक जीव
असलें ज्ञान राजसिक.
फल इच्छून कर्म केल्यार
कर्म तें आसता राजसिक.

देहांत मग्न क्षुद्र असत्य
तसलें ज्ञान तामसिक.
मायेन अविवेकान केलेलें
कर्म बी आसता तामसिक.

कसली प्रवृत्ती कसली निवृत्ती
कार्य - अकार्य, बंधन - मोक्ष
ह्या द्वंद्वांक सारखी समजुपी
बुद्धी ती आसता सात्विक.

ह्या द्वंद्वांचो समज ना तरी
बुद्धी ती आसता राजसिक.
समज पुरायेन उलटो जाल्यार
तसली बुद्धी तामसिक. (44)

मनाचें इंद्रियांचें नियंत्रण
करता तसलें धैर्य सात्विक.
फलासक्तिचें धैर्य राजसी
मदमात्सर्या धैर्य तामसी.

पयलीं दिसता विषाचे वरी
तेंच मागीर दिसता अमृत!
आत्मज्ञानांत उपजून येवपी
सुख तें आसता सात्विक.

इंद्रियजन्य विषयासक्त
पयलीं गोड रजोसुख.
परिणामान तेंच मागीर
जाता निजान कोडु वीख.

आसता अशी तमोसुख
आद्यवसान मोहदायक.
निद्रा आदी भ्रम रूपान
निदायता तें आत्म्याक.

स्थावर जंगम प्राणीसंचय
नश्वर आनी क्षर बी आसता.
ह्या क्षेत्रांत आत्मो अनश्वर
तो क्षेत्रांक शोभित करता. (49)

आदी अंत नातिल्लो अव्यय
परमात्मा पुरुषोत्तम हांव!
अंश मात्र हो अनंत विश्व
पळय अर्जुना चिन्मयरूप!

*अहो! विस्मय चिन्मयरूप*
*अनुपम असुलभ दिव्यस्वरूप!*
*सहस्त्र सूर्या सम चैतन्य*
*अवर्णनीय विराट्स्वरूप!*

*हे विश्वेशा, विराट्स्वरूपा,*
*पुनःपुनश्च नमन तुका!*
*दर्शन मात्रेन विह्वल जालां*
*पूर्वरूप तूं धरी आतां!*

पार्था, हांव रे अव्यक्त रूपी!
मिज्यान पूर्ण प्रपंच भरला!
चराचरांचे भितर मात्र न्हय
मिज्यांत सर्व चराचर आसता!

आदी की अंत नातिल्लों हांव.
सर्वभूतांचो अधीश आसा.
खंयचेय देवाक पुजता एकलो
माकाच ती पूजा पावंता आसा! (54)

धर्म राकूक एकेक युगान
        जन्म घेतां हांव स्वंत मायेन.
शिष्ट जनांक राकून घेतां
        दुष्ट जनांक ना करतां.

धर्म केन्द्राण निस्तेज जाता
        भुंयेर अधर्म वाड्डून येता
हांव तेदना परत जन्मतां
        पृथ्वीर धर्म पुनःस्थापितां.

भक्त मिगेले चार तराचे
        तसलो आसा तांचो नियोगू.
ज्ञानी, दुःखी, धनाचे कांक्षी,
        ज्ञाना खातीरचो जिज्ञासू.

दिकता माका जो सर्वांत
        तो मिज्यांत सर्व पळयता.
माका वळखता तोच खर्यान
        थेट वळखता हांवय ताका.

भक्तिपूर्व जो दिता माका
        दळ की फूल की फल की जल
अर्पण तें स्वीकार करतलों
        भक्ति तागेली निजी निर्मल. (59)

जे माका भजतात थीर मनान
करतात मिगेली उपासना
निष्ठावंत भक्त तांगेलें
क्षेम आनी ऐश्वर्य राकितां.

नाश जावंचो ना केन्नाच तरी
निजाच्या मिगेल्या भक्ताचो.
निष्ठेन भजपी दुराचारी तांय
अंतीं शांती प्राप्त करतलो!

असलो भक्त माका प्रियंकर
अचल मनान माका भजूचो
द्वेष नातिल्लो दया दाकोवंचो
क्षमा गुणाचो तुष्ट भावाचो.

असलो भक्त माका प्रियंकर
स्वार्थ त्यजिल्लो गर्व नातिल्लो
समदृष्टीन समभावान
आत्मसंयमु स्वता जोडिल्लो.

शरण माका जो पावंता पार्था
अचल मनान जो भजिता
ताचेर हांव प्रसन्न जातां
ताका भवाचे पार पावंयता! (64)

पार्था, तुवें करचें समस्त
अर्पण करी माका सहस्त.
मिजेर दवर बुद्धी तुगेली
कर्म करी तूं माका आठयत.

समस्त धर्म त्याग करून
शरण पांव तूं माका अर्जुना!
समस्त पापां थाकून मुक्ती
तुका दितलों हांव तेदना!

आयकून मिगेलीं उतरां आतां
उद्देलीं व्हय कीं ज्ञाना किरणां?
अज्ञान कारण उपजल्ली माया
निकळून गेली कीं सांग पार्था?

*मायेचें पाश तुंटून आतां*
*संदेह संशय गेलो सनातना!*
*उद्देलें ज्ञान कर्तव्य करतां*
*तुगेलीं उतरां पालन करतां!* (68)

भगवद्गीतेक शतनमन
हृदयांतर्गत हरिकथन
शरतचंद्र कृत अनुकवन
गीतासार कृष्णार्पण..

## कविता करूंक

कवीकडे हे प्रश्न करताय
कविता करूंक कितें कितें जाय?

*धवें फुल्ल कागत जाय?*
*काळे साये लिखणी जाय?*

कागत बरें, लिखणी बरी
पुण ताचान जायना कविता खरी..

*ऋतु वसंत येवूंक जाय?*
*पावस नेटान पडूंक जाय?*

आसूं नासूं सैम सुंदराय
कविता जायना ताचान कांय..

*एकांतांत बेसूंक जाय?*
*किण्ण शांतताय जाय?*

ताचीय तशी गरज ना
ताचान कवन जावंक ना..

*संकटांच्यो खबरो जाय?*
*जिणेचे संघर्ष जाय?*

आरे बाबा, वांचय माका!
म्हजे खातीर कसलेंय नाका!
कवी परस मनीस हांव
समेस्तांचें कल्याण जावं..

*मोग आनी मोगी जाय?*
*विरहाचें दुःख जाय?*

थोडें थोडें सगलें जाय
सत्य जाय, सपन जाय
सुखा सयत दुःख जाय
जीण थोडी हल्की जाय
जाय थोडी तीक्ष्णताय

हांचे परस चड म्हळ्यार..
भितर एक कीट जाय!

## मेट

पावला मुकार जें कसलें तुका
विघ्न कशी दिसता
तुजे बरेपणाक देवान रचिल्लें
मेट मू तें आसता!

धीर करून आनी माथें उबारून
चल तूं मुकार मुकार
मेटां चडून चलून मुकार
सपनां करी साकार!

भियेनाका तूं थांबूनाका
धरी देवाचो विश्वासू
धरी शुभाप्तिविश्वासू आनी
करी स्वताचो विश्वासू!

## आयचो मनीश

कोण बरो कोण कूडो?
हें माका विचारूंनाका.
कोणाच्यान माका फायदो?
केवल इतलेंच हांव जाणा!

## कवितेक -

म्हजे तरपेन हासली तूं
म्हजे तरपेन रडली तूं
उतरां म्हज्या काळजांतलीं
म्हजे तरपेन उलयली -

चित्त म्हजें तापलें जाल्यार
ताचे तरपेन तापता तूं
अंतरंग कांपलें जाल्यार
खंत ताची सांगता तूं -

उडगासांची गोड रूच
म्हजे परस जाणा तूंच
ल्हानपणाची अश्रेकणी
तूंच जाणा सगली काणी -

आत्मो करी सोद तुजो
जाणा तूंच साद ताचो
मोन्नो तरी जायत कसो?
तितलो तुजेर भरवंसो !

सगलें म्हजें तुकाच म्हळें
सगलें तुवें आयकलें
तुजें म्हजें नातें असलें
कितल्या म्हणून जन्मांचें !

## तिमिरचित्र

मनीश हांव, मनीश म्हणून जगूंक जाय माका
जितेंद्रिय, अतींद्रिय, तसलें कांय नाका!

ज्ञानेश्वरांक नमस्कार! योगेश्वरांक नमस्कार!
म्होवा वरी गोड तांचीं मार्गदर्शनां
जाल्यार तांचे वाटेन वचाक येन्ना सोदीना!

न्हय हांव पापी, न्हय तशी पवित्र,
सत्व रज तमोगुण तेगांय म्हजे मित्र
गुणदोष विणून केल्यां म्हजें आत्मचित्र
तशीच आसोय सुखदुःखां तांतूं ओतप्रोत
राग मोग दोगांय म्हजे सहज सांगाती
जगाक जशी सहज आसाय दीस आनी राती

भुरगीं बाळां खेळतना हर्ष पावूंक जाय
वृद्धजनां हासतना काळीज फुलूंक जाय
पायाक कांटो तोपलो जाल्यार 'आवय!' म्हणूक जाय
धुवेक पुताक दुखलें जाल्यार माकाय दुखूंक जाय
असलें कितेंय सोडून करूक म्हज्यान जमचें ना
नातीं सोडून शांती जोडूक येदीय इच्छा ना

सांगूं कितें मनशा विशीं, साम्य ना ताका
बर्यांत बरें कूड्यांत कूडें करून दाखयता!

तिडक खरी मारता ताची, लजा, अवज्ञा
भरवंसो राकूक पुण धीर दिता प्रज्ञा
धर्म राकूक देव लेगीत जालो मानव
तसलो हो उदात्त जन्म दाखयता देव

मनीश आसून मनशा वरी दुःखां भोगून घे
निपून वशी पळून वशी माकाच म्हण्टा हें!
मोह आनी मोहभंग हासून सोसून घे
खरी अस्मिताय तुजी जाणून मानून घे

उतरां वेंचून उकतें केलां अशें म्हजें चित्त
उजवाडांत सावळी तशें एक तिमिरचित्र

## पडिल्लें फूल

हे फुला, वयल्या तुज्या नीज जाग्यार आसतना
कितली सोबताली तूं एक राणियेवरी सुंदर!
आज निस्तेज पडिल्ले तुजी दुस्थिति पळयतना
खरेंच कळता, ऐशर्य भुंयेवयलें केवल नश्वर!

---

मूलः कुमारन आशान

## गंगास्नान

गंगास्नानाक खीटु जनांचो
कितलो लोक हो कितल्या गांवांचो !
तरणीं म्हालगडीं भुरगीं म्हांतारीं
जनावली ही तरातराची.

गंगास्नानान पापविमुक्ती
ह्या विश्वासान आयलीं सगळीं.
नेण्टां केलेलीं जाणून केलेलीं
पापां समस्त सोडून वतलीं.

गंगाजल हें पवित्रतीर्थ
सदैव पापांक यमतुल्य.
पावल जलाक लागलें मात्र
पापां देहांतुलीं उडलीं भायर.

ऊंच मेटांचेर राबल्यांय पापां
धनी तांगेले करताय स्नान.
उण्या क्षणांची पापविमुक्ती
दिता तांकां आनंदनिर्वृती.

गंगेंत देवल्यांय जितलीं जनां
मेटांमेटांचेर तितलींच पापां !
क्षमेन राकताय तीं धनियांक
न्हावनु येतना जाताय एक.

पुण्यांनी आमकां हाडलेलीं
आमचे ओटू तीं गंगेंत न्हालीं.
पापां तेदना मेटांर बेसलीं
जशी तीं आयलीं तशीच परतलीं.

## पयलो रसिक

कवितेचो पयलो रसिक खुद्द कवि!
भितर कविता जन्मता जन्मता
तिजो पयलो वयलो अणभव
खर्यान ताकाच!

## एक कथनात्मक कविता

सकाळीं उठलों, च्या पिलों
खबरे पत्र उगडून चोयलों
दांत घासून मागीर न्हालों
चटनी घेवन पोळो खेलो
परत एक पटीन च्या पिलों
चोग्या वयर कोट घालो
सदचे भाशेन कविता केली
कागदाचेर बरोवन काडली

ते भितर आखाड्यार तो पावलो
म्हजे कवितेक राकून रावचेलो
कविता मेळतकूच तो गेलो

वाराक तीन पटी तो येता
सकाळीं जिस्त आठांक पावंता
कविता मेळतकूच वता
मागीर शेजरा घरांकडेय वता
खबर ना थांगा कितें घेता
हांगा तर असल्यो कविताच दितां..

## हें मन

मन हें धावंता गेल्ल्या दिसांच्या फाटल्यान
माका भोवंडायता उडगासांच्या उद्यानान
उडगास हासयताय, उडगास रडयताय
उडगास खास हे सहज मित्रांच्या समान.

मन हें मग्न भोगून गेलेल्या अणभवांनी
शेणलेल्या, विसरांत पडलेल्या उतरांनी
खिणभर मुग्ध, साम्य नातलेल्या संतोषान
खिणभर तप्त, साम्य नातलेल्या शोकान.

भूतकालांतूं धुकलून घाला माका मनान
जाय जाय म्हूण दिसपी जादूच्या जगान
ओंट पळयताय हासूंक, दोळे पळयताय रडूंक
हृदयांतर भरलां हून हून अश्रेकान.

हांगाच्यान थांगा आनी थंयचेय पेल्यान
मारता उडक्यो एक मर्कडा भाशेन
वेळ काळ चोयना, समय संदर्भ पळयना
भोवंता शीड शेणलेल्या व्हड्या भाशेन.

वर्तमान जागयता, भविष्य आपयता
अमोलिक रे मना दर एक खीण
व्यर्थ सारचें न्हय नेणतां शेणचें न्हय
खिणांनी विणली आसा ही जीण.

## पूर्णमदः पूर्णमिदम

नर हांव भुंये वयर
नश्वर एक भुंयचें पोर -
अक्षरांत बुडी मारून
अक्षरांत उडी मारून
आपणूच जालें अक्षर!

वास म्हजो अक्षरांत
अक्षर म्हज्या अंतरांत
भितर भायर अक्षर आसून
हांव मात क्षर कशी?

क्षर म्हणचें सीमित
अक्षर तें असीम
अक्षराची वळख म्हणचें
असीमाची वळख!

अक्षरांत क्षर आसत
असीमांत सीम आसत
सीमितांत असीम कशी?

असीम म्हणचें चिरंतन सत
सीम म्हणचें भ्रम मात!

## एक विनंती

भुंयेर हांवें पांवचे आदीं रडूंक तूवें शिकयलें
जाल्यार म्हजे आवयन माका हासूंक मरे शिकयलें.
रड रड म्हणून तूवें कित्याक माका रडयलो?
हास हास म्हणून तीणें हासूंक दुशेर लागयलो !

कोटी कोटी नमन तुका तूंच धनी जगाचो
जाल्यार हांव पूत तिजो जगा पशी मोगाचो!
सुख तूवें दिलें माका पळय तुका विसरना
आवय हिकाय तूंच दिली उपकाराक उतर ना !

तुजो आशिर्वाद माका जाय सदाकालाचो
पुणून आशिर्वाद तिजो ताजेय पशी मोलाचो !
नीज तुजें रूप माका दिकूकच मेळ्ळेंना
तिजेंच रूप तुकाय म्हणून येद्दोळ कशी कळ्ळेंना !

व्हेली तूवें हांगा थाकून विसव तिका दीवूंक
तरीय ती सोदीत आसा खबर म्हजी घेवूंक !
तुजेच लागी बेसय तिका दोळे तिमूंक दीवूनाका
हांव जेन्ना येतलो थांगा तिजीच भेट जाय माका !

## नवें फालें

जालेलें जालें जावनु गेलेलें
सोडि रे तें सगळें!
आजि उदेलें नवें फालें
आयचें कार्य वेगळें!

कालि केलेलें कालच्यान जालें
हात निवळ केले
आजि उदेलें नवें फालें
हात तयार जाले!

फाल्याचें सर्वय फाल्याक सोडि
कळता ताचें कसलें?
कार्य फाल्याचें वायट की बरें
सांगू जायना तसलें!

आजि आजीचें कार्य जें केलें
जालें बरें तितलें
दीसु गळूनु राति पावंतना
थंड मन तितलें!

## महामनीश

महामनीश वताय तेन्ना
जिणे मैदानार पावलां छाप सोडून वताय
प्रभाव तांचो समस्तांचेर घालून वताय
मनीश म्हळ्ळें उतर तीं सार्थक करताय
मनीशजन्म धन्य म्हुण तीं गवाय दिताय

महामनीश वताय तेन्ना
थोडीं ताचीं सपनां आमकां दिवनु वताय
बरी तांची उर्बा आमचेर शिंपडून वताय
तांच्या आत्म्याचो एक कुटको हांगा दवरून वताय
तांच्या चैतन्याचो एक वांटो आमच्यांत वांटून वताय

महामनीश वताय तेन्ना
रकरकी वोतांतूय आमकां काळूक दिसता
थंड चान्नीण्यांतूय आमचें आंग हुलपता
नाका वचूनाका म्हुण आमचें अंतरंग रडता
आमी दुर्बल निरालंब म्हुण हरदें हुंडकेता

महामनीश वताय तेन्ना
आमी हताश जाताय, बेठींच हात पिळून
गळ्यांतुलो विळाप गिळून विमूक राबताय
उडगास तांचे उजळ जिवे आमचे मनांत उदेताय
आमी नेणतां आमचे दोळे अश्रु गळयताय..

## उदकांतलो उजो

‘उदकांतलो उजो’ म्हळ्यार हरदें फुलेता!
उडगासांचो पावस पडून मन थंडेता
गांवांतली जीण दोळ्यां मुखार खेळता
भुरगो एकलो भितर बेसून हळू आपयता.

गांवांतले घरा लागी कितलेच तोड
तांतूं सदा होळता आसा खारें उदाक
जालो तरी काळूक, तूं मार फातर
'उदकांतलो उजो' तुका मेळता दिकूक!

फातर लागून उदाक चिके वयर उसळता
पाचवो नीळ उजवाड मू ताजेर झळकता
पळयत पळयत एकलो भुरगो नांचता
आजीय तो भितरचान विस्मय पांवता.

---

तोड = नालयो

## आवयलो सल्लो

आवयलागी म्हळें हांवें 'आंकडे मेजून दाकयतां
एक थाकून धा मेरेन पप्पान माका शिकयल्यां!'
गोड गोड हासली ती अपुरबायेन पप्पी दिली
'आतां पोरा, वेळु ना..' म्हणून रांदूक चमकली!

आवय फाटीं गेलों हांव 'कित्या तूंवय शिकयना?
शाळेंत वचून वाचून लिखून तूं कांय शिकलीना?
कितें कितें कळता पप्पाक सगलें हांव शिकतलों
शिकून शिकून व्हडलो व्हडलो डाक्टेरु बी जातलों!'

खळखळून हासून तीणे वेंगेंत माका घेतलो
काथळेचो कुटको तोडून हा़तांत म्हज्या दवरलो
'शाण्या म्हज्या, शिकलो मरे धा मेरेन मेजूक!
आतां एक सांगतां तुका, कान दीवनु आयक!
कोपु जेन्ना आयलो तुका, आंकडे याद करका
एक थाकून धा मेरेन मनोमनीं मेजूका
काथळेची याद तेन्ना आयली जाल्यार येवंदी
मनांतुलो कोपु पुराय संथ संथ निवंदी'

आवयकडे शिकललो उपाय हो आंकड्यांचो
जाणा आतां सल्लो तिचो भोव भोव मोलाचो!

## बाय माधवीचे यादीन -

लिखणी जरी
उखली तरी
आयच्या दिसा
ऊर्णीं पड्टात उतरां..

उतरां सोदतां
सोदून मेळना
उतरां वेंचतां
वेंचूक जायना.

कितलींय वेंचूं
जुळून येनात
कितलींय वेंचूं
मेळून येनात.

सगलीं उतरां
निरर्थ आतां
सगलीं उतरां
विवर्ण जाल्यां.

कितें सांगूं
कशी सांगूं
कोणाक सांगूं
खबर ना.

आयच्या दिसा
किण्ण खीण
सुन्न मन
आनी
उतरांचो फातर जाला.

## गरोवपी

बरोवपी न्हय
गरोवपी तूं!
बारीक एक उतर उडोवन
मेळत एक कविता म्हणून
अशीच वाट पळोवपी..

## वैष्णवजन

वैष्णवजन म्हण्टाय तांकांच जे
वेगळ्यांली व्यथा जाणा रे
परदुःखांत उपकार करी तरी
मनीं अभिमान धरीनाय रे
सगट जनांक नमन करताय
निंदा कोणाचीय करीनाय रे
जीब देह मन करून नियंत्रण
करी जननीक धन्या रे
समदृष्टीन तृष्णा त्यजून
परस्त्रीक आवय मानताय रे
जिबेक असत्या रुचि ना तनिक
परधनाक हात लायनाय रे
मोहमायेंत फसूनातीलें
मनीं दृढवैराग धरताय रे
रामनाम सदा जपून मनांत
पुण्यतीर्थ करी तनूक रे
लोभ त्यजून आनी कपटरहित राबून
काम क्रोध सोडून उरल्याय रे
नरसी म्हणता हरिकरुणेन तांचे
कुलाक मोक्षमार्ग मेळचो रे

---

मूलः नरसी मेहता

## मितोक्ति

निष्प्रयास तुंटताय दुर्बल किसरां वेगळीं वेगळीं
शक्ति जोडून काडताय तीं हांजुळेर घेवन एकमेळी.

---------

हांव, मिगेलें, माका, सदा अशी म्हणचो कोण तो मनीशू
जीर्ण ताजें ज्ञानाचें मूळ जाला विवेकाचो नाशू.

---------

हीनवचन तीं हितस्मितान धांपूक तरी जायश ना
खोंची कांचना पेस्कातेची आंग सांसपून राबश ना.

---------

सद्विचार, सत्कर्म, सज्जनस्संसर्गान संप्राप्त
संसर्गाची सावळी पडता सर्वांचेर एक लेक.

---------

बाल्यार सन्मार्ग सांगून भुरग्यांक दी परिचय
नारलु राबतलो हातांत, पुण माडो राबचोना निश्चय.

---------

दुग्धमुग्ध होंटींतूय मुंबूर पिता कशी गोरक्त
दुर्जन ह्या लोकांत तशी करताय सर्वकर्म अती तिक्त.

---------

## वनफूल

दृष्टी पावनातीले दूरा
काळूक खुतल्लें रान
घोलि बीळ झाड रूक
वाडल्लें तण

गर्जन हुंकार आनी
रडतल्लीं सवण्यां भिरीं
अशी तशी घुवंत आसाय
रान्नाटीं वारीं

नखेत्र कशी एकडे
काळूक फाळनु जन्मलें
एकसुरें रानांत फूल
फूलनु बेसलें

आयू कितलोच स्वल्प
जीवन क्षण भंगुरें
बावनु पडलें फूल
तणाक सारें

कांजोली भर परिमळु
वार्यार विरकून, खाल
बावनु चिरमूटेवनु पडलें
रानाचें फूल

कोणे माळ्ळेंना दिकलेना
देवाक माळा गांथलीना
बरें म्हूण कोणे म्हळ्ळेंना
एकटें तें येन्ना

चान्नीणें नातिल्ली राती
श्याम मेघ श्यामाकाश
उकतें विस्कळ मळब
उंचार पैस

भायर दोव, शेळी मनांत
मळब रितें, मन जड
काळकाचें रान वाडल्यां
काळजांत होड

मळब पिसडून मत्तीं
उरलें ऊंच तारक एक
उजवाडाचें फूल कशी
प्रेम प्रतीक

झळकून एक क्षण
चिमटी प्रकाश दीवनु
होडले पावसा मोडांत
नष्ट निपूनु

आदी अंत ना दिसूचो
अनंत भवसागरू
येवनु वचीं, वळक घेवनु
करचीं विसरू

आळ उत्तळ प्रदेश
सान आनी होड पाळ
लागी हाडचे, दूरा करचे
दर्याचे खेळ

खड्यांचें वांगडां उंचेलें
मत्तीं एकच म्हारग
रानाचे फुलाचे सारकीं
फुललो मोग

ल्हारांचे फेणाचे मदीं
चिके वेळा थळथळेवनु
पोंदाक केन्नाचे खातीर
गेलें बुडूनु

काळजां भितरीय अशी
उदेवनु जाला सोंतू
मोगाचो, मोहाचो एक
म्होंवाळ गींतू

## विलाप

कित्याक आनी वांचुका?
भुरगीं भुकेन मरतना
व्हाळांनी व्हांवचें वीख घोटून
विडविडेवनु पडतना -

वांचोवनाकात माका
वंचोवनाकात रे
घरान घरां, शारान शारां
लासोवपी लासडे हातांनूं
आपल्या आपल्या रावळारांनी
हासून बेसपी पिशांनूं
चणे चाबून टी वी मुकार
जांबय काडपी आळस्यांनूं
मारात माका! पुरात माका!
कित्याक हांवें वांचुका?
निश्पाप्यांचीं - पाप तांचें -
इतलीं मडीं कुसतना -

कित्याक आनी वांचुका?
इतलीं घरां लासतना
भाव म्हजे, भयण्यो म्हज्यो
हर्द्यार मारून रडतना -

## गांव

म्हार्यांत म्हज्या
यो रे पोरा
गांव पळोवया!

माडे पळोवया
माड्याचें भाट पळोवया
भाटांतले रूख पळोवया
रुखावयले चानयेक पळोवया
चानयेले खेळ पळोवया
म्हार्यांत म्हज्या
यो रे पोरा
गांव पळोवया!
तुज्या बापाच्या भुरगेपणाचो
गांव पळोवया!

पाल्यांतल्यान चान्नीण्या दोळे
वाल्ये वाल्येर मोगरे कळे
आपालिपा खेळचे काजूले
भुरगेपणाचे लाख उमाळे
तान्नेक थंड शियाळें
सोप्यार गुल्यो गुरपाळें
आंगणांत दोरा व्हिंदूळे
खेळूक रुखाचे माळे

म्हार्यांत म्हज्या
यो रे पोरा
गांव पळोवया!
बांयचो तळ्यांचो,
गायच्या गोठ्यांचो
गांव पळोवया!

भात पळोवया
भाताचें शेत पळोवया
शेतांतलें वोत पळोवया
वोता फाटीं पावस पळोवया
पावसाचो धोणू पळोवया
म्हार्यांत म्हज्या यो रे पोरा
गांव पळोवया!
बोरा पेरांचो, आंब्या जांबांचो
गांव पळोवया!

## कालची कविता

फायचे कवितेक राकून हांवें
फालीं कितलीं वगडायलीं!
कालचे कविते, तूं कोपून वशी
कागतार तुकाच गो रंगयली!

## दर्शन

अपराह्न. निरंत वोत मारता
चैत्र म्हयन्याचें रकरक वोत.
हुमावन म्हजें आंग उकडता
सालि निकळायता, दोळो हुलपिता.
बेसलां कडेचे स्थायारी, माका
घेवन सरकारी बस उबता.
बस उबता, ओटू धूळी उबता
वारें थापटिता तोंड, चिटी
ओल्लटसाण ना ओंटार.
श्वास मेळना, येता घुसमूटी.
लांगडी वाट, ताजाकय लांगडी गाडी.
धाडवून आडळून जीव निकळता.

लागून बेसला म्हांतारो, कांय
नेणा, निद्देंत लकता लोकटो
गालार फडचना पीकेचो थेंबो
खालाक देवंचाक सोदीत आसा
तो लोकटो लकून म्हजे भुजार
हमंत पीक तांबडी म्हजे चोग्यार.
दिसाक धरून माकाच शिरापून
मुरमुरेता हांव भायर चोवून.

घडियेक राबल्या गाडी
वाट ना आनी होडी
आसा कोण कीं देवंचीं
आसतलीं वेगळीं चडचीं.

वाट सोडून चिके दूरा
राशयेन कच्ची पडल्या
धावंचे दोळे ओडून
दृष्टी राबली खोंबून

एक चेरडूं पडल्यां निदेवनु
कचियेचि राश हांतळूण
गोड कसलें कीं सपन
हासयता ओंटांक एक क्षण
धांकून आसाय दोळे, पुण
कितलें तेज आनी शांती!
काळे केसांक मारल्या मुष्टी
कितली अद्भुत ही सृष्टी!

घांट वाजली गाडी मुकरसली
तें नेणा हांव कांय
चित्र एकच मनांत वरलें
दर्शन माकाय मेळें!

होगी कशी गांवांत पावला
एकाक लागून सर्व लोक देवला
वारें शीतळ स्वच्छ मारता
सूर्य सरी हासून राबला
म्हांतारो चोवनु हासता
वृद्धवदनार चिके लजा..
हासलों हांवय विसकळून
बरो हास म्हज्यांत आसा
विजनवीथी ही म्हजे खातीर
विसर पडलोलो गींत ओंटार
शेळायतां, चमकण सुमसुमी
जीव आगांत विकरूक पुरोश!

वर्षा मस्त आज उबल्यांय
वर्षांनी माकाय उंबळ्ळा.
वृक्षांनी फुलांचीं वस्त्रां
मस्त न्हेसून परतिल्यां.
परिक्षीण जालेल्या दिसा
आजीय तो चोग्गो चोयतां..

उडगास आतांय जीवे
ती यात्रा, तें दर्शन
फडचनाचें तें खांप
आजीय जीव फुलायता..

## शेणलो

हाल्लडी घेवनु दुदा पेज जेवयतना
अम्मान माका गोरो बोब्बोदेव दाकयलो!
ऊंच रे देवळ, थांगा हासूचो देव,
मोगा उतरां आयकून हांवय हाशीलों..

सानप्रायेर दर्या देगेर बेसून हांवें
ओल्ले रेवेन एक देवळ बांदीलें.
चंद फातोर एक सोदून वेंचून हाडलो
देव देवाबू करून तांतूं बेसयलो..

स्वल्प जो होड जालों, पायांक धीर आयलो
घराचो एक मुल्लो देवळ केलो.
मित्र साबार जाले, खूब संतोष जालो
रुकाची मूर्ती घेवनु उत्सव केलो..

देवळां तीं तशीं मिजीं, देव तो तसो मिजो
वेळ वतना तांचो विसोर पडलो.
काल तो धावनु गेलो, देवळां तीं घेवनु गेलो
शेणलो रे शेणलो माका देव मिगेलो..

------------------------------------------

मुल्लो = कोनसो

## हासत चल

हांसो तुजो केन्नाच तरी व्यर्थ जावंचोना
हासलो म्हणून कांयच तुका नष्ट जावंचेंना..

आज्येलें तोंड पळयत जर फुलून हासलो
फुडे तुजे म्हांतारपणांत परतो मेळतलो!

मागून येवपी म्हांतार माम सुभिक्ष वतलो
हांसो तुजो, गांवां गांवांच्या पोरांक मेळतलो!

खांडे, भालो, पिंगार्तान राज्यां कितलीं जिखलीं?
करुणेचे हासान भावा, सगली भूंय जिखली!

बापाक दिवंचो हासां तुरो घरांत फुलतलो
आवयक हांसो एकूच पुरो, घर फुलयतलो!

सगले दिसा झगडीं एक हासान सोंपतलीं
सगलीं आमी भांवडां एकमेळून हासतलीं..

## आनंदनटन

आनंदनटन चिदानंदनटन
नंदनंदन नटन!
काळिंदीगमन काळीयदमन
नंदनंदन नटन!

गोपजन करि नर्तन
जय जय जय घोषण
सुंदर वदन दर्शन
मंदस्मित भूषण!

रूप तें मनमोहन
दृष्टी कृपाकिरण
देहान नमन मनान नमन
शरण शरण चरण!

आनंदनटन चिदानंदनटन
नंदनंदन नटन!

## बाय माधवीचे यादीन -

हय,
एकदां अशेंय घडटा
एकच फूल गळटना
सगलें पोरसूं बांवता.

बर्यांतलें बरें फूल
तेजवंत हांसकुरें
फुल्ल आनी परमळीक
गळ्ळें न्हय, तें गळ्ळें ना
खुंटलें ताणें आपले खातीर..

ताची इच्छा, ताचें इंगित
पोरसूं मात निस्तेज..

## रगताची वळख

रगत खरें कोणाचें आसा आमच्या शीरांनी?
मनयत काय फाल्या नरकासुरजयंती!

## भारतदेश

भारताचे भुंयचेर जन्मल्लीं आमी धन्य गा
भास भेस वर्ण धर्म कितली विविधताय गा
भाताशेत भाट आनी रान पाचवेंचार गा
भागीरथी कावेरी संस्कृताय आमची गा

रगत भारतीयांचें एक म्हूण वळख गा
रडणें आनी हांसो लेगीत सारके सारके वांटे गा
रस्तो म्हजो तुजो एक, लक्ष्य तेंय एक गा
रत्न तुजे भितर आसा सोब ताची दाकय गा

तत्व बरें धरि गा, हातां हात जोडि गा
तरणें आमी पोरण्यांचो उडगास करचो गा
तळमळून मेकळेपण घेतलें जिखून तांणी गा
तन मन धन ओंपून राज्य राखलें तांणी गा

देश म्हणचें घर गा, शाळ गा, देवळ गा
देशभक्ति म्हणची देशभावां कडलो मोग गा
देहांभितर देही जे मेरेन जिती बसची गा
देशभक्ति भारताची ते मेरेन धरची गा

शत्रु आमचे भितर गा, शक्ति तीय भितर गा
शस्त्रां सोडून शास्त्र जोडची बुद्धि बी भितर गा
शतसहस्त्र वर्सांची गाथा भारताची गा
शतसहस्त्र वर्सांक एकमेळीन गांवची गा

## कोंकणीची सर्शी

आमचे पूर्विकांक आमी नमन करूया
कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपुया!

पूर्विकांनी राकून हाडली
मैदरांतु रोंपी वोयली
पुण्य तांचें आजि आमी स्मरण करूया
कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपुया!

घरा मुकार आमी खेळ्ळीं
घरा माक्षीं ती निपीली
तिजीं चंद फुल्लां वेंचून आमी गांथुया
कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपुया!

जीवितांतु जयु पावलीं
तिका सोणु दूरा गेलीं
तिजी अपुरबाय आमी आतां करूया
कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपुया!

कालि आमी हें विसरलीं
आजि तिजी स्मरणा आयली
पूर्विकांचें रीण चिके आजि पावोवया
कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपुया!

---

सर्शी = रोंपी

## देवी मंदिर

भाषादेवी दिव्य तुगेलें मंदिर!
पुनः आजि तें करताय आमी सुंदर!

स्वयंसेवा ही करताय अती उत्साहान
तव चरणांचेर अचल अर्पित मनान
पुण्यकार्य हें करताय आमी विनयान
पूज्य आमगेले पूर्वजांचे उडगासान

मंदिरांतुली मूलप्रतिष्ठा पुरातनी
भाषादेवी, सत्वज्ञान प्रदायिनी
जन्मभूमिचे गळ्यावयरी तूं शुभंकरी
सरस्वती तूं अमोल आमची प्रियंकरी

भक्तांले करसेवेचो करी स्वीकारू
मंदिराचो मू घडून आसा पुनरुद्धारू
मुखरित जाता दिगंतरांतू जयकारू
विस्मयु दिता कलाकृतीचो गोपुरू

करसेवेची घेतली दीक्षा हर्षान
फुडार्यांनी दाकोवनु दिलेल्या मार्गान
आशिर्वादु जाय तुगेल्या हातान!
पळय आमकां तूं सदैव मायेमोगान!

## तृप्ति

तुजे मुकार
हात जोडून सदांच
करतां हांव प्रार्थना.

मिगेल्या मोगाच्यांक आठोवन
राक राक म्हण्टा, आनी
तांचें बरेपण मागतां.

मागण्यांची वळेर
दीस दीस वाडता
मागलेलें मेळतना
धन्यवाद सांगतां.

अचकीत एकदां
मागूकच विसरतां!
यादीर येना वळेरीच!
तुजे मुकार रावतना
आपशींच हात जोडतना
कायंच याद जायना!

अंतरांत उठता दर्या
ल्हार ऊंच उसळटा!
हरदें निशब्द हुंडकेता
घट धांकून आसतनाय
तिमताय दोळ्यां पातयो!

कायंच कांय सांगनाशें
कायंच कांय मागीनाशें
तेन्ना हांव तृप्त जातां!

## जीविताचें पुस्तक

जीविताच्या पुस्तकाक खंड चार
चोवीस अध्याय आनी पानां साबार
कागतां थोडीं बुरशीं काळीं
अध्याय थोडे नाशिल्लेच बरे!
तरीय मित्र, इतलें हें आवडीचें की
हेंच पुरो, हेंच जाय!

## मोनो बेसूंक दी

मागू नाका रे कविता
मोनो बेसूंक दी आतां -

झोड आयलो, उव्वार आयलो,
जालो भुंयकांप आकांताचो
रोखड्या रोखडीं कवनां करूंक
हांव कितें, खबरां चॅनल?

पिठ्ठो जाल्ल्या घरांक कित्या
ह्या उतरांचें पांगरूण?
वांचलेल्यांक जाय कितें
अनुप्रासांचें सॅकरीन?

उतर आतां फुटून येना
आसून माका खंत ना
एक बोतल रगत तरी
दिवूंक पावलां मोन्यांनी
उणो थोडो पयसो तरी
दिवूंक पावलां मोन्यांनी

सारखी वळख ना तशा,
कुरडो आनी भेड्डो कशा,
एका म्हज्या देवा कडे
शीण काडीत लडूक पावलां
दूकां गळयत झगडूंक पावलां

काळखे रातीन दीवे पालोवन
वरां वरांनी एकटो बेसून
काळखांतुल्यान वाट काडीत
म्हज्यांतुल्या मनीशपणाक
ऐन वेळार वळखूंक पावलां

## स्वधर्म

स्वधर्म करीना तरी तें
फलान अधर्म जाता.
समजून घे!

## केन्ना

पितरांले प्रीतीक
संतोषान, उडगासान,
जाय तें आमी करताय.
केलेलें पावलेंना कीं
म्हूण खंत पावंताय.

पुत्रीपुत्रांकय जाय तें
करताय आमी
मनान, आनंदान.
आनीक कितें जाय
म्हूण सोद घेताय.

ह्या दोगांचेय मद्दें
आसाय मू थोडे!
तांचो विचार आमी
केन्ना करतले?

## कविता जन्मता केन्ना?

शंबर उतरांतुल्यान एक उतर जेन्ना
मस्तिष्कांत इंगळो कशी पेटता,
शंबर चित्रांतुल्यान एक चित्र जेन्ना
दोळ्यांचें स्फटिक चिरून
काळजाचे वण्टेर नीट थापता,
शंबर चिंतनांतुल्यान एक विचार जेन्ना
फाट कशीच सोडीना,
शंबर अणभवांतुल्यान एक अनुभूति जेन्ना
विसरूक कशीच जायना,
कविता जन्मता तेन्ना..

## सपन

सपन आशिल्लें गोड गोड
पूण अर्द्यान जाग आयली!
म्हूण कितें? परतून निदेवंचें?
ना रे ना! जीवित शेणोवंचों ना!

## हांसो

दिसान दीस पळयतां
जायत्यांलो हांसो
आनी हांवूंय दितां
जायत्यांक म्हजो हांसो..

पूण गुपीत सांगनः
थोड्यांलो हांसो
माका जिरना!
तांकां पळोवन हांसूंक
मन करीय ना!

मेळता एक मंदहास
ताच्या फाटल्यान् बेसून
एक मन माका चाळयता!
ताका हांसो परतितना
जीब कोडवेता
जीव आटवीटे घेता..

कोणाक सांगूं?
कशी सांगूं?

## द्वंद्वां

दोग हे दोळे, पळोवंक जवळे,
पुण एकामेका पासून साप्प वेगळे
एकलो जो फुलून चंद्राक चोयता,
सैमार भुलता, रंगांनी रमता
दुसरो हो दुसर्‍याल्या दुरितांनी घुसपून
विडविडो पांवता, दूकां गळयता!

कान हे दोग, तुष्ट अतुष्ट,
एकामेका पासून थेट परकिष्ट
एकलो हो आयकता कोगुळा गीत,
ल्हारांची लोरी, पावसा संगीत
दुसर्‍याक दुसर्‍याल्या हुंडक्यांचो साद,
भुकेर्चीं रडणीं, विलाप शिराप!

मन खरें एक, हड्डेंय एक
पुण भाव अनेक, विचार अनेक
घर, घराचीं म्हूण वावुरता अशाण
मानवी मूल्यांक वेंगायता तशाण!
आंगाचीं द्वंद्वां, आत्म्याचीं द्वंद्वां,
आंगाक आत्म्याक जुळोवंचीं द्वंद्वां!

## नट

माचयेर येताय ते नट न्हय खरे!
कोण काय बरयल्लीं उतरां वाचून
भेस चडोवन पूर्वाभ्यास करून
कोणाचे काय मार्गदर्शनान
तरातराचीं सवंगां करपी
ते कोणच न्हय नट खरे!
तुस्त मेळो वा तोहफा
ताळयो मेळो वा तसरीप
ताण पडून काम करपी
बाबडे ते न्हय नट खरे!

खरे नट रे आमी तुमी!
दर दीस दर वगत
याद धरीत आज मेरेन
घरां भितर, घरा भायर
हात सोडून, हुसको सोडून
येद्दो लेगित विसव नासून
केद्दो प्रतिभेचो अभिनय आमचो!
भेस ना अभ्यास ना
ताळ्यो ना तसरीप ना
तरीय आमी केद्दे तज्ञ
चतुर प्रवीण फिशाल!

भितर जिवा जाळ तरीय
तोंडार सदळ हांसो हाडपी
मनांतुल्यान चाळयतनाय
भायर नम्र विनम्र रावपी
शिरापिता काळीज तरीय
हातान आशिर्वाद दिवपी
प्रतिभा आमची निजाची -
खरे नट हे आमी तुमी!

## रेलस्टेशन

गाडी लेट म्हणून आमी
एकामेकांची वळख घेतलेली
खबर सांगून वेळ गेलो
गाडी येता म्हणून आतां
खोशीच दिसना..

## स्मृत्यष्टक

सत्राव्या शतकांतु आशिल्ले तेग वैद कोची देशाचे
रंगभट्टु, विनायक पंडितु आनी आपूभट्टु नांवांचे
तेगांनी तान्नी मान्य केलें कुमुदोराचें सांगणें
महायत्नांतु मनान बुड्डले आमचे पूर्वज कोंकणे
सकाळीं सांज केलेलें काम क्रमान फलादिक जालें
दोनि वर्षांचे अखंड यत्नान विज्ञानभांडार एकठायलें
स्वाभिमानि ते तेगांनी दिलें कोंकणीन तांचें साक्ष्य
वृक्ष वालि आदींचीं नांवां स्वभाषेन बरयलीं समस्त
देश विदेशांतु विख्यात जालें तें मलबाराचें उद्यान
बारा पुस्तकांतु भरून आशिल्लें वनस्पतींचें विज्ञान
शतकां दांटवलीं, चरितां घुसपलीं, तेग ते विस्मृत जाले
स्वर्ण अक्षरांक अर्ह विज्ञ ते आमकांय अज्ञात जाले
महाकार्य करूक पावले ते महामनीष हें परमार्थ
महाविस्मृतींतु निपले तरी ते जीण आमची रे व्यर्थ
आमच्या पूर्विकांक आमी वळखुया नमन तांकां करूया
भारतचरितांतु ह्या तेगांकय चिरप्रतिष्टा दीवूंया!

---

मलबाराचें उद्यान = Hortus Malabaricus

## हे सूर्या..

दर्यावेलें उदक ओडून
पावस दिवंचे सूर्या,
तापय म्हजें अंतराळ
तापय म्हजो दर्या!

उखल म्हजें उदक आनी
पांवय रेंवटांनी
खंय तरी मू उबो एकलो
पावसाचो थेंबो सोदचेलो
निवय ताजी छाती
तिमय ताजी माती..

ल्हारां अशीं उठलीं म्हणून
इतलें माका खबर आसा
भितर खंय तरीच लिपून
कवितेचो दर्या आसा
म्हजेरीच सोडलो माका तरी
हांव पावस घालचों ना
भितर उतरां उठून तुटतलीं
कविता रूप धरची ना

उठय माका, उठय माका,
उजवाडाच्या देवा!
पेटय म्हजें हरदें आनी
तापय म्हजो दर्या!

## भांगरा राय

साबार साबार काळ फूडे आशिल्लो पुता एक रायु
साबाव बेसतना चडलो ताका असलो एक वायु

चड चड जाय भांगार, ताजो थळथळेवंचो शिंगार
जड जड भांगराचीं जायीं जाय मिगेले आंगार
भांगराचें सिंहासन मांचे आनी रथ करोवंका
दोंगरा येदें रावळार हें भांगार सारोवंका
दिवली दीवे गिंडूल गिंदलां सगलेय आकाराचीं
दावल दाय बी ताट पीठ सगलींय जाय भांगराचीं

देवाक भजल्यार जाणा तो, वरप्रसाद मेळता
सेवा करचे भक्ताली आशा देवाक बरीच कळता

अशी तो रायु करता जालो देवालो उपासु
रुशींचे वरी खरो तपस्वी, रातदीस उप्पासु
पावलो देव, प्रत्यक्ष जालो ते राजरुशीचे मुकार
पावलांकडे रायान घालो रे दिगूसो नमस्कार

तुजेर भक्ता हांव प्रसन्न, कसलो वर रे जाय?
आज मागूचें आजीच दितां, म्हणिना फाय फाय!

निपोवंचे खातीर कांय ना देवा, ना वेगळी आशाय
आपोडचें हांवें मिजे हातान भांगार जावंचें जाय!

तथास्तु! म्हणून देव तत्क्षण जालो अप्रत्यक्ष
यथार्थ जाली आस्त म्हणून हासलो रायु प्रत्यक्ष!
दिवली दीवे गिंडूल गिंदलां सगलेय आकाराचीं
दावल दाय बी ताट पीठ सगलींय केलीं भांगराचीं
भांगर जालें सिंहासन, मेज, कदेल, मांचे
दोंगर तसलें रावळारय रे जालें भांगाराचें
रूक रुकावळ उद्यानाचीं भांगार केलीं सगलीं
लेक नातिल्लीं अनेक वस्तु रायाले हाताक लागलीं

आंगावेलें तें भूत देवंतना रायाक लागली तान
भांगार जालें तान्ने उदाक काडतना तें हातान
वाडिल्लें अन्न जालें भांगार हातान काल्लयतना
काडिल्लें फल भांगार जाता चोयता चोयतना
हात रायाले भीवनु सेवक, हांगा थांगा रे धावले
सात सचिव ते निपून निपून घराघरांतु रावले
भांगार करचे हात रायाक जड जड रे दिसले
थांगाचे थांगा बेसलो दुखान, भुकेक ना मू कसलें!
तान्नेचे खातीर समाधान ना, ताळो ताका हरकटलो
दान मेळ्ळेले वरप्रसादान हरद्यार भुरकटलो!

हून हून दुखाचे थेंबे गळोवनु रायु रडता
सान सान ती धूव तागेली येवन आंगार पडता

बापा! म्हणून म्हण्टा म्हण्टा ती भांगरा बावली जाता
आपालिपा खेळून भोवंची ती दोळ्या मुकार निपता!

स्तब्द राबता मूर्ख रायु, ताजो दोळो अखेर उगडता
शब्द एक करीनाशीं बाबडो देवाले पायांर पडता

नाका भांगार, भांगरा हात, करी मिजेर दया
माका परतून जाय मिगेली धूव, धुवेली माया
राक राक हे देवाधिदेवा, वर परतून घे गा
एक मिगेले धुवेलो जीव तिका परतून दी गा
सृष्टि तुगेली बर्यांत बरी, भांगार जावंची नाका
नष्ट जालेली बुद्धी मिगेली परतून मेळ्ळी माका
दोनीय हातानी कपलार मारून रायान घाली बोब
दान धर्मु करचे बदलाक केलो मरे दुर्लोभ
शरण पावलो तो देवाकडेन, करशी तिरस्कारु
मरणकालु तांय स्मरण करीन तुगेलो उपकारु!

पावलो देव, प्रत्यक्ष जालो ते रायाले मुकार
देवली आधी रायाली, ताणे रे सोडलो एक सुस्कार

तुजेर माया, दया बी दिसता, कसलो वर रे जाय?
आज मागूचें आजीच दितां, म्हणिना फाय फाय!
भांगराचो दुर्लोभ तुगेलो आज सरलो रे सांग
सांगल्यार कळना, तसलें कळता तोपून ताजेर आंग

देवाले पावलांचेर माथें रे धाडावनु राय पडलो
धुवेले उडगासान बाबडो होडाहोडान रडलो..

नाका भांगार, नाका रुपें, थळथळेवंचें तें कांय
माका मिजे धुवेलो जीव आज परतून जाय
माती माती कर, धान धान कर, फळ फळ म्हूण घडय
हातांचो हो चमत्कार तूं ना करून उडय!
जीव आशिल्लें जिवाळ जावो, धूव मिगेली खेळून भोंवो
देवा, राक तूं, सगल्या सगलें पयलेवरीच जावो

तथास्तु! म्हणून देव तत्क्षण जालो अप्रत्यक्ष
यथार्थ रूप सर्वांक मेळ्ळें, हासलो रायु प्रत्यक्ष!

बापा, माका तूं काणी सांग! म्हूण धूव होंटींत बेसता
बापा तिगेलो तिकाच चोवनु हासता! रडता! हासता!

## आवय असली

मायेमोगान सगलें घर दिपकावपी दीवो!
असले एक आवयचे आमी पूत आनी धुवो!

## कायळ्याली बुद्धी

एकडे एकडे एक कायळो
थेंबो उदकाक तळवळेलो
ना खंय न्हंय, बांय, तळें
उदका कलशार पडले दोळे..

कलशो हालून धोलून
उदाक पोंद लागून
पावना चोंचि कशीय कुंटून
बेसलो अशी तशी चोवून..

तान्नेर किरलेली बुद्धी
उबलो प्रत्याशे बलारी
घेतले फातर चोंचीरी
घाले ताणें कलशां भितरी..

कलशो भरून उदाक उंचेलें
तान सरश ताणें पिलें
कार्याक तीच मू होडी
तेती बुद्धी तावतावळी..

## रसपतीचो कोल्लो

राना वाटेन भोवंचो एक रसपतीचो कोल्लो
दिकलो ताणें ऊंच एक द्राक्षांचो झेलो!
आयंडो गिळून येवजिलें, आज चांग दीसू
केवली एक उडकी पुरो, केवलो एक घासू!
पावलां दोन माकशीं सरून बरोच पळयलो
दोळ्यान उवाळून ताणें डेंक एक मारलो!

केवलो धांव काडून मारली उडकी बरी होडी
उबी मारलो घासू, पुणून उरली रिती सोंडी!
अशी तशी चोयलो बाबडो आसाय कोण चोवंचीं
उणाव हो होड, आमी उडकी ऊंच मारचीं!
पावलां चार माकशीं सरून दुशेर तो चोयलो
द्राक्षांचो झेलो ऊंच देंटार हाशीलो!
काडली धावनु ऊंच उडकी कुद्दून कुंटून
बेटो घास मारून पडलो भूंयेर धाडवून!
दुशेर दुशेर आनी दुशेर तो धावलो
धा पसार धावून तो बरोच खरशेलो!

कोलो म्हण्टा अशी : बाळा, झेलो तरी काडशी
दिकतनाच कळता, ताची द्राक्ष भारी आंबशी!
चार आनी चोवीस ही चमकण घेतली
उणाव कसलो, म्हजी उबगण मू गेली!

## अस्वस्थ

दोळे धांकप सोपें काम!
सकल करूंयेता मान
नदर ओडून फाटीं वळून
चलूंयेता ते वाटेन
भिकार्यांक पळोवंचें नाका
म्हांतारचळ चोवंचें नाका
पत्रांतले रक्त बंबाळ
मांसा पसर्यांतलीं मडीं
कितेंच तें पळोवंचें नाका
स्वस्थताय सोडची नाका!

कान धांपप सोपें काम!
व्हडले हात मेळ्ळ्याय दान
भुके रडणीं वार्यार वचोय
आळ-गाळे कोणय आयकोय
गरीबांले दुबळे हुंडके
गोरवां प्राण्यांचे तळमळे
कानांत व्हरचें नाका कितेंय
शेणची नाका स्वस्थताय!

नांक धांपप सोपें काम!
दोनीच बोटां पुरोय सान
हुंगची नाका चरा घाण

विसर्ज्यांची रस्त्या देग
सोर्या ओंके कुस्सट्टाण

तोंड धांकून धरप सोपें!
कीड्या ओरोव खावंचो नाका
गंदें उदक, भेळशी च्या,
खमटें तेल रुचचें नाका

आंग राखूक कष्ट ना!
वोता पावसा थंडे पासून,
कांटे, खरजू-झोपां पासून,
गांजील, विचू, सर्पा पासून,
कात वांचोवूंक कष्ट ना!

इतले भेट मेळून लेगित
इतली कृपा मेळून लेगित
तृप्ति ना, संतुष्टि ना
तनिक समाधान ना..

दोळे धांकूयेता तरीय
कान, नांक, तोंड, आंग
राखून वांचूयेता तरीय
मन धांकप शक्य ना!
देकून समाधान ना..
अजून स्वस्थताय ना..

## घुडी आनी दांडो

घुडी खंयचीय चलता गा
पूण दांडो हांवेंच हाडला!

घुडी तशीच परतितां.
कोण ती घराक व्हरत?

पूण दांडो पळय घष्टपुष्ट
घरच्यान हांवेंच हाडला!

खंयचो दीस कसो वचत
कोणाक कशी सांगूक जायत?

अशी न्हय की तशी जाल्यार
उपकारा येत. घुडी न्हय!

तुका ताची खबर ना
ह्या म्हज्या दांड्यान माका
कितली पावट वांचयला!

## अभिमानाचें वजें

आमचें राष्ट्र एक, पुण गट आसात दोन
आनी एक पळय, आसा येता येता म्हणून!

गटां भितर आसाय पक्ष, पांच थाकून धा
गटां भायर पक्ष कितले, मेजूक कष्ट गा!

एके एके पक्षां भितर दोन तीन पंगड
पंगडां भितर वयले सकयले विंगड!

पक्ष पंगडाचो ना कोणाक भरवंसो
निसण चडपाचो आतां नवो वसवसो!

पक्ष कांय लागना, म्हणून थोडे स्वतंत्र
तांतूच थोडे चलयताय आपले आपले तंत्र!

कित्या हांव माथें अशें बागोवन बेसलां?
देशा विशीं गर्व चडून वजेशें जालां!

## जवळो भाव

तूं म्हजो सांगाती
म्हजे हर्द्यांतलीं उतरां कळचो
जवळो भाव..

म्हजे तोंडावयले भाव
तुका फटयनाय
म्हजे जिबेची तिखटाण
तुका हुलपायना..

महादुखांतूंय
सुकेच उरिल्ल्या
ह्या दोळ्यां फाटलो हुंवार
पळोवपी तूंच एकलो..

ह्या रागेस्ताच्या
भितरले भितर
अंतरंगाचे बंदखणींत पडून
हुंडकेवंच्या एकट्या चेरडाक
वळखुपीय
तूंच एकलो..

## प्रार्थना

निर्भय जंय जनचित्त,
ताठ मन आनी मस्तक,
ज्ञान जंय खरें मुक्त,
जंय कुटके जावंक ना संवसार
अशीर आंतरिक वणत्यांनी,
जंय उपजता दर एक उतर
पवित्र सत्याच्या खोलायेंतल्यान,
जंय अश्रांत परिश्रम सोदता
श्रेष्ट पूर्णताय प्राप्त करूंक,
जंय जीर्ण रिवाजांच्या रेंवटांनी
आटूंक ना विवेकाचो स्वच्छ प्रवाह,
जंय तूंच दाखयता वाट मनाक
भव्य विचार आनी कर्मांच्या दिकान,
तसल्या त्या स्वातंत्र्याच्या स्वर्गांत
जागय बाबा ह्या देशाक!

---

मूलः रवीन्द्रनाथ टागोर

## कुवाडें

समजुपाक कठिन
सर्वा पशीय कठिन
असलें कार्य कितें?
सांग तूं चिंतून!

गणिता पशी? ग्रीका पशी?
संगणक विज्ञाना पशी?
ऊर्जकण सिद्धांता पशी?
देवा परमात्म्या पशी?

मनीश म्हणचोच मूर्ख!
बुद्धी आसून अज्ञानी!
कोण ताजें समजत?
युधिष्ठिर बी म्हणत..

सुंदर तरीय चितळ
रानांत मू हेंडता!
कोण समजत विधात्याचें?
मीरा बाई म्हण्टा..

अगण्य द्रोह मनशाले
आजून भुंयेन सोंसले
समजना तिजी क्षमा!
कविमन उदगारता..

अधर्म भुंयेवयलो
वाडूंक ना काय फावोसो?
कळाव करी कलियुग मूर्ती!
कोण ताजें समजुपी..

तकली मातशी निवय रे!
उजव्या दाव्यान पळय रे
सोपो सरळ प्रश्न रे
दोळ्यां मुखार जाप रे!

बंधू आनी मित्र आमी
वर्षां वर्षांनी वळखुपी
तरीय एकामेकांचें आमकां
आतांय कशी समजना?

म्हजें तुका समजना
तुजें माका समजना
समजुपाक दोगांय आमी
यत्न लेगीत करीय ना..

## किण्ण खीण

हे फांतोडेर येवन हांगा
माकाच पळयत रावला कित्या?
तुवें सांगचें नाका! हांव जाणां!
तुज्या बाविल्ल्या तोंडार छापल्यां
तीं तुजीं सगळीं उतरां!
आतां जें करपाचें आसा
तूं तें करून उडयीच
हें म्हजें नशीब!
नशीब हें तुजेंय!

हांव सानुल्लों आसतना
माणकुल्या हातांनी शिंपतालो तूं!
म्हज्या तरन्या आंगाक
आंकर्यो फुटल्यो पळोवन
अजापून ताळियो मारून
नांचतालो तूं!
मोव नाजुक हरवीं पानां
उठून सळसळतकच
उपाट मोगान सांसपितालो तूं!
कितले पावट आळीं काडून
सारीं शिंवंडावन
कळश्यांनी कळशे उदाक ओतून
म्हजेर जीवूच मू दितालो तूं!

म्हज्या मूळांत बेसून
खेळ कितले खेळतालो तूं!
म्हज्या खांद्यार झोपाळो बांदून
ऊंच ऊंच मू झेलतालो तूं
म्हज्या फळां खातीर मरे
मार तुजे खेले कितले!
लिपून येवपी पाक्के चान्ने
तुका पळयत कशी धांवताले!

एकेक वेळार येतालो तूं
पोल्यावेल्यान दूकां व्हांवयत
गुपित तुजीं दुःखां माका
एकेक वेळार सांगतालो तूं!

नवें घर, बायल, पोर
कितलो कसो वाडलो तूं!
कपडे सुकोवंक दोरी लेगित
म्हज्याच खांद्याक बांदिल्ली तुवें!
काल पयर पोरा खातीर
रंगयाळो आंदळोय लांबयल्लो तुवें!

सायकल वचून स्कूटर आयली
तिचे खातीर सोदलो जागो
म्हज्या मूळांत चोंयवशीन
बांदलो सोपो शिमीटीचो

ताडपत्री वयर बांदून
जागो बरो सोबयलो
तुजेच वरी वाडलां हांवय
मूळांत आतां उदाक नाका
अशी तशी धाविल्लीं पाळां
उदाक पांवयताय माका!

वाडलां मरे वाडलां
खर्यानच वाडलां!
नशीबांत कितें उरलां
कळूक पुरोश वाडलां!

जाणां हांव जाणां आतां
तूं आनीकय वाडतलो
स्कूटर वचून मोटार येतना
तिचेय खातीर तुका
जागो सोदचो पडतलो!

बाबड्या रे बाबड्या,
तुज्या हातान जाल्लो म्हजो जन्म
तुज्याच हातान जाल्ली वाडि
आनी आतां कळाव कित्या?
काडि मरे कुराडी!
मारि म्हज्या मुळारीच!

मार खायत एकेक वेळार
सगलें आंग कडकडल्यारीय
देहांतुल्यान दुखयेची वीज
वयर सकल भोंवल्यारीय
एकय उतर उलोवंचो ना!

मोनो म्हणून जन्मलों
मोनो जावन जियेलों
उरप जशी, मरप तशी!
मोन्यांनीच मरतलों!

## पूर्विक

पूर्विकांले स्मरणेक चिरप्रतिष्ठा
हीच एक आमगेली व्रतनिष्ठा!
पूज्य ते पूर्विक, सर्वथा सात्विक
तांगेलें स्मारक, आनंददायक!

[सत्राव्या शतकांत कोची आशिल्ले स्वभाषाभिमानी आयुर्वेदज्ञ रंगभटु, विनायक पंडितु आनी आपूभटु.]

## गीम

पावसाडेचे दीस उलगले
काळ्या कूपांच्या जाळांतुल्यान
मळब मेकळें जालें.
ऊब विर्कीत, रगत आटयत
भूंय तापयत, न्हंयो सुकयत
गिमाळो आयलो
मळब सुस्कारलें..

अवचीत तेन्ना अजाप कसलें!
शिरशिर मंत्र, भोंवतण थंड,
अक्षतां भाशेन उदकाचे कण
शिवरून पडले आंगार सगले.
संथ हळू मळबाचेर फुललें
सप्तरंगाचें इन्द्रधणू..

कितें करतालों? खंय वतालों?
विसरार जालें सगल्या सगलें..
पळेत राबलां उतर विना..

## फाल्या

फाल्या
कोणूच माका सोदचो ना
सोदल्यारीय तरी
हांव कोणाक मेळचो ना
पुण
अप्रूप एकल्याक एकदा
मेळत म्हजो आत्मो
एके कवितेंत घुसपून पडिल्लो
कांय उतरांनी
दसून राबिल्लो
भाव-विचारांनी शेणिल्लो..

आत्मो फकत
देहांतूच रावता अशें ना
ताका रावपाक
उतर पुरो
रंग वा शब्द पुरो
तो देवा सारको
वा देवूच..

## ट्रेनीर

निजाचो बोवाळ चिरून
अचकीत
किळांच एका बाळकाची!
परतून परतून
व्हडान व्हडान
कान धांकचे खातीर
हात उबारप लेगित अशक्य
तशा सदांचे गर्देंत
दामून आसां हांव
आनी कानांत
हो आकांत!
शिशें कडोवन ओतिल्ले भाशेन!
कित्या ही थंडावना?
कोण हें बालक?
कित्या खातीर हाचो आकांत?
अशें येवजितना..
तकलेर एक जोगुल बेसलां!
मेंदवाचें जंगल लासूंक लागलां!
काळजाचो बांद फुटला!
उतरांचो उव्वार उठला!
किळांच ही थांबची ना!
बाळक ओगी जावंचें ना!
हो फाल्याचो मनीश!

आपलें भविष्य नियाळून मू
हाचो हो आकांत!
रडूं दी, ताका रडूं दी!
फाल्या परांच्या रडण्या खातीर
थोडी संवय जावं दी!
भविष्य ताचें सजयताय
प्लाश्टिकाच्या कोयरांनी मू!
गंगा ताची सांबाळताय
मेलेल्यांच्या हाडांनी मू!
तेल कळसो खणून खावन
दवरतलीं फकत गोबोर मू!
खंय खंय की उदक
थंय रासायणी वीख मू!
खंय खंय की घुडी
थंय जागेर अण्वस्त्रां मू!
अर्थ नातिल्ल्या झगड्या-झुजांनी घुसपून
अरुंद होवर्यांनी घुसमुटत,
गर्दी वाडयत,
उसरपत विसरिल्ले ताकतिकेन
खंय वताय आमी?
कोणाच्या कीं हातांनी
खंयचे की कडे वचपी
पेणीं नातिल्ले हे आग गाड्येंत
निष्पाप ह्या बाळकाकय घेवन
दोनीय दोळे अशे धांपून
खंयकडे हें प्रयाण?

## निमणी कविता

काळोख दाटलेल्या मळबांतल्यान
झगझगत्या जोगला भाशेन
निमणी कविता सुचतना
कागताक हात लावंचों ना
लिखणी हातांत घेवंचों ना..

अर्द सपनांत जागेर येवन
दुशेर दोळे आड जावन
सपनदृश्यां दिसचे भाशेन
निमणी कविता सुचतना
ओंटां मेरेन पांवची ना
कोणाकूच सांगचों ना..

फांतोडेचे पोरसांतल्यान
धांवत्या खेळत्या वार्या भाशेन
देनपाराच्या मळबार उदेवन
पळयत आसतां विरून वत्या
रंगीन पावसा धोणवा भाशेन
सांजेचे तळयेंत तोंड नियाळीत
सुद्द विसरिल्ले सैमा भाशेन
निमणी कविता सुचतना
हात लावंक सोदचों ना
उतरां विणून काडचों ना..

अकस्मात गिमा दिसान
गळत्या थंड मोत्यां भाशेन
निमणी कविता सुचतना
भुजांतल्यान पांखां फुटून
पिसोळ्या भाशेन उबतलों!
हल्को जावन हल्को जावन
वार्या ल्हारार पेवंतलों!

रडत्या पोरा मुखामळार
दूकांतल्यान हळू हळूच
फुलून येत्या हांशा भाशेन
निमणी कविता सुचतना
भुल्लुसून वतलों!
गुल्ल जावन राबतलों!
पांखाक पांख लायत फिरून
हावूंच कविता जातलों!

## अस्वडीं

शिष्याची तोखणाय अस्वडीं
गुरूची टिका अस्वडीं
बापायलो मोग अस्वडीं
पुतालो राग अस्वडीं..

## आत्मायन

कविता म्हूण कविता न्हय
अंतर्मनांतुले दर्यावेळेवेले
हे उणेच उतरांचे कुटके
छंद म्हूण छंद ना
फुलां सुगंध ना
किरकोळ कुटके उतरांचे -

एकटेपणांत हे घाशीतां पुशीतां
वळखतल्ल्यांक विर्कीतां
वैढूर्य माणिक्य खंयचान दितलो
रस्त्यांनी भोंवपी बंजारो !

कविता म्हूण कविता न्हय
अंतरंगाच्या अटंग्या वनांतुले
हे उणेच उतरांचे कुटके
नेणतांशे वेंचलेले, झोळयेंत भरलेले
किरकोळ कुटके उतरांचे -

झोळी ही घेवन हांव वाटेन वतना
सुखदुःख म्हार्यांत येता
सुख चिके हासून आंगाक थापतनाय
दुःखाचें मौन निर्शायता -

तरने हे दोळे, हरवें हें हरदें
संवसारा तथ्यांनी पेटता
अस्वस्थ जगजिणेंत जीव घुसमुटतना
संथ ही झोळी उजरायतां -

खंयचे की पूर्वजन्माचे यादींतुल्यान
कुटके वेंचून गांथीतां
दोळे हे भरतना, जीव थंडेतना,
उजो काळजाचो पालवता -

काव्य न्हय, कविता न्हय
जीविता सार हें
फुटक्या उतरांनी रचिल्लें !

आत्म्याचें सत्य हें
आत्मसंकोचान
पुरतें ना पुरतें सांगिल्लें !

## उतरां

उतरां शेवटून मारतल्या,
उतरांचें हें कितें रे केलां!
कसली गरज तुका उतरांची?
गरज तुका फकत फातरांची!

## अंतरनाद

हो कुमसार!
आपले तरपेन
आपल्या बापाचे तरपेन
आज्याचे पोणज्याचे
शेणज्याचे तरपेन

चुकलों हांव!
चुकले आमी सगले!

अकार जावन उरिल्ल्या तुजे
आकार आमी सोदले!
नाद जावन उरिल्ल्या तुजें
रूप आमी सोदलें!

आदल्या पूर्विकांनी
उजो म्हणून पुजलो
सूर्य चंद्र भूंय उदक
वारो म्हणून भजलो
'नेति नेति' म्हणून मागीर
दिलीं नवीं रूपां
सारकीं जालींनाय
तुजें सारकें आयलेंना..

पोणज्यांनी शेणज्यांनी चिंतून
तुजीं रूपां तीन थारायलीं
सात णव धा जावन
सवीस जालीं तीं!
तींय पावलींनाय म्हणून
तेतीस कोटी केलीं!

वेगळ्या वेगळ्या रूपान
तुजे आकार रचले
अमके गुण अमके म्हूण
आकारांक वांटले..

अवतार धरयले!
चमत्कार करयले!
गुंजये येदे कल्पनेन आमी
तुका मापूक सोदलें..

माप मेळ्ळेंना
तुज्यो शीमो देखल्योनाय..

कितली ल्हान सान
आमची बाबडी कल्पना
तुका रूपां दिल्ले बगर
तिका नीद ना!

सगल्या सगलें आसाच तुज्यांत
आसतलेंच न्हय?
तरी पुणूय कांयच कांय
आमकां दिसना..

हे आकार ते आकार
काळजां भितर रोयले
कुरड्या दोळ्यान काळखे कूडांत
सोदीत आमी रावले..

मासळी जालोना
तूं कासोव जालोना
डुकर जालोना
तूं शींव जालोना

डुकरा सूळे, शींवा तोंड मनशा रूपां
आमीच तुका दिलीं!

मुकुट दिलो, राय केलो
भस्म लायलें रुशी म्हळें
धोणू दिलो, कवंडळ दिलो
खांडें दिलें, त्रिशूल दिलें
घोडो हंस म्हशी मोर
घोणी शींव नाग हुंदीर
सगलें आमी दीत रावलीं..

चुकले आमी चुकले!
सगल्यो पिळग्यो चुकल्यो!
चुकली मनीशजातीच!

नदरेंत तूं मेळतलो कशी
हारशे आमचे चोयवशीं
आपलींच रूपां दिसताय आमकां
तुका सोदून घुवंतना!

रुखार चरची कीड
कशी रान नियाळीत?
बांयत पेवंचो बेबो
कशी भूगोळ नियाळीत?

साध्य व्हय कोणाक आमकां
रूप तुजें पारखप?
भितर तुका साकारप?
कोणे तरी म्हांतार्यान
म्हांतारो म्हळो..
कोणे तरी गावड्यान
काळो भुरगो म्हळो..
रुखा मूळांत ध्यान करपी तूंच!
आमी थारायलें..
येतलो फाल्या घोड्याचेर!
डांगरेय मारले..

सगलीं व्यर्थ जल्पनां
हारली आमची कल्पना!

कल्पनेच्या कोरंड्यांत तुका
बंदी घालूंक सोदलें आमी..

पूर्विकांक क्षमा कर!
आयच्या आमकां क्षमा कर!
येते पिळगेक क्षमा कर!

हो कुमसार!
आपले तरपेन
आपल्या पुतांचे तरपेन
येते पिळगेचे तरपेन..

हारूं फुकट कल्पना
पुण सोद आमचो थामचोना!

पूत धुवो नातुरां
पोणतुरां आनी शेणतुरां
तुका सोदीत भोंवतलीं!
अणुरेणूंत सोदीत सोदीत
भोंवतलीं दिगंतरां!

प्रपंचाच्या पयसुल्ल्या
कोनश्यांनी सोदतलीं

कोपून मोनी बेसतलीं!
काळीज निबर करतलीं
दाखय तुजें रूप म्हणून
हरदें फुटून रडतलीं!

आस्त धरून उरतलीं
आस्त धरून सरतलीं
असलो आमचो जन्म रे!
असलो आमचो जन्म..

## वैभव

भुरगो आसतना
उंगोटो दिकल्यार
रावणाक बरयतालो खंय!
आतां?
आतां तो फामाद पत्रकार गा!

## अपसमज

माका सूख दिल्यार
हांव हासतलो..
हो तुजो अपसमज!

तुवें माका दिल्याय दोळे
दिल्याय दोन कान
आनी एक काळीज लेगीत.

दुसर्यांलो हांसो
आयकल्यारीच
मेळत माका समाधान
आनी संतोष

दुसर्यांलो संतोष
पळयल्यारीच
मेळत माका समाधान
आनी संतोष.

## संक्रमण

ज्योत फांकीत, जीव फांकीत,
यो रे सूर्या संत संत
आस्त अस्त जालेल्या काळजांत
हाडी नवोदय तेजवंत!

युगायुगाचें ऊर्जस्त्रोत तूं
मुनिश्रेष्टांलें ज्ञानस्त्रोत तूं
जीवावळेचें जीवस्त्रोत तूं
चराचरांक चिरंतन बंधू!

खरो हकीम तूं जीव जागोवपी
वखदी किरणां जखमां पेखोवपी
नमन तुका हे नवलकारका
हांव निनांवी यात्री गा..

यो रे बुलबुला, करि तूं गायन
मधुरगीत ह्या मनाक सांत्वन
विसरार घालून दुखद भोंवतण
करि तूं माका खिणाक मग्न!

गीत तुजे सगले चिरपरिचित
शेणत वता यादींत चित्त
देहभान सवकास विसरत
अंतरात्मो हव्याचेर सतत!

भोवंदी माका शेता-भाटांनी
भुरगेपणाच्या गांव-वाटांनी
भुलय माका हे गगनगायका
हांव निनांवी यात्री गा..

शिवंर घालि पारजताच्या झाडा
श्वास-उस्वासांत सुगंध धारा
निवळाय घुस्मट, विसराय दुःखां
उठय म्हज्यांत उमेदी ल्हारां!

खरखर पानां, नाजुक फुलां
समजूक पावलां उजळ प्रतीकां
अंतरंग धांवता फाटल्यान
अगण्य फालीं कितलीं दसकां!

स्वच्छ पवित्र हासमुखीं फुलां
गच्च भरून तूवें शिंपडिल्यां
फुलां तुगेलीं प्रसाद माका
हांव निनांवी यात्री गा..

यो मरे पावसा, घेवन वाझवोडी
निवय ही छाती पांगरावन थंडी
तप्त मनांत हुंवार हाडून
व्हर तूं माका खिणाक पलतडी!

रोमहर्ष हाडताय ओथांबे
भिजपाक सोदता भितल्लें भुरगें
पांवळ्यो पळयत हालता हरदें
अमसरायता करपाक व्हडें!

मळब सोडून मू येता सकयल
मंत्र जपून थंडायता उबाळ
आभार तुजो, आनंदनर्तका
हांव निनांवी यात्री गा..

पावसा धोणवा उदेवन हास
जागय म्हज्यांत शेणल्ली आस
सप्तरंगाच्या सरयांर माका
उखलून व्हर रे खंय तरी पैस!

वोता सांगातांत पावस येतना
दोळे तुकाच रे सोदताय सदना
पोरनी संवय विसरून विसरना
वश्यरूप लिकलिकता मनां!

क्षितिजा पेल्यान देश तुगेलो
सपनां विर्कुपी हास तुगेलो
राब परजळून, दिव्यचित्रिका
हांव निनांवी यात्री गा..

सर्र सर्र म्हणतल्ल्या समुद्रा
चलून चलून रे हांव आयलां
थकिल्ल्या पावलांक दी उर्बा
माडोवंक उरल्यां आनीय मैलां!

आस्कळ विस्कळ राज्य तुगेलें
जगदस्तित्व मनशा पयलें
गाज करपी तूं, गीत गावपी तूं,
गुल्ली शिंपी भुरग्यांक दिवपी तूं!

आपय आपयताय ल्हारां तुजीं
पाणी सांसपिता पावलां म्हजीं
पोषण करि हे लवणदायका
हांव निनांवी यात्री गा..

पुनवे चंद्रा चांदनें रकय
हून निडळ हें सामकें भिजय
रीण दी तुजी शीतळ शांतताय
बडबडे हरद्यांत मौन बेसय!

आवयले हांडीर, बापाले मांडयेर,
इष्ट आसतना, एकटो बेसतना,
खंयखंयचान रे तुका पळयला
चल्लों तरी तूं फाटल्यान आयला!

पूर्णाकार आनी मंदहास
पळयल्ले तत्क्षण उडलो उदास
अपुरबायेची ओतय चंद्रिका
हांव निनांवी यात्री गा..

## अवतार

'धर्मसंस्थापनार्थाय' म्हूण
मनशाचोच अवतार कित्याक धरता देव?
हो धर्म म्हणचो फक्त मनशाकच लागू कितें?
आनी कोणाक ना? खंयचेय युगांत?

## स्मृतिमंथन

दिल्ली -
साळका देवळ -
नवीन वास्तुकलेचें नवल -
त्या भव्य ध्यानमंदिरांत
अप्रूप खिणां - मोनीं आनी शांत..

अकस्मात
विना कारण
याद - एक कर्मयोगीची!
मागीर
कुतुब मिनारा कडे
इंडिया गेटा कडे
लाल किल्ल्या कडे
वचत थंय तीच याद!
परतून परतून -
किरवंट्ये वयले गांळ्चे वरी
पावलाक तोपलेल्या कांट्या वरी!
*(तागेले खंय निमणे दीस*
*हे दिल्लींत सारलेले -)*

तीस जनपथ मार्ग -
बिडला घर -

आतां
हर्दें निबर करचें पडतलें -
काळसावांच्या बोल्सांत
हाताच्यो मुठ्यो करच्यो पडतल्यो -
*(तागेलीं खंय पवित्र पावलां*
*पळोवपाक मेळतलीं हांगा!)*

काळजा,
धा कोस धाविल्ले वरी
खरश मारता कित्या?
आतां कांयच घडपाचें ना हांगा!
घडूंक आशिल्लें घडून गेलां
उरल्यात फकत निशाणीं -
बावन वर्सांची धूळ लागल्लीं
फिकी पडिल्लीं निशाणीं -
पुण समजिकायेचें उतर
खंयचे काळजान केन्ना आयकलां!
घूडांत पडिल्ल्या विंदरा वरी
कुदून धाडवप -
तेंच हाचें कपला बरप!

चलून मुकार
पावलां हांव
पावलां कडे -

तांच्या म्हार्यांत चलतना
भ्रमांत सो पडून
आयचें काल, आनी
कालचें आज जाता -
म्हार्यांत आशिल्ल्यांक विसरतां,
म्हज्या माकाच विसरतां!

हीं पावलां
संत संत
खंय वतात?
भूंय सोडून वचें पडल्यारीय
भारत सोडूंक शकचीं नात!
हांचें आनी ह्या देशाचें
तशें मू नातें -
रगताचें आनी आत्म्याचें!

पावलांचीं निशाणी सरतना
पिस्तुलाचें भोंकप आयकता?
थटाकून उडपी सवण्यांचा
पाकां आवाज आयकता?
निमणीं तीं उतरां
निमणो मंत्र शांतीचो -
हे राम!

मागीर -
माथें धाडावन बोब मारपी
एक अशांत मौन..

पिस्तूल जाणे चलयलें
अट्टाहास ताचो उठता आजीय
आटय दिकांनी!
तोंड ना ताका -
नांव ना, नामो ना -
ताज्या हातांत खंय
तण लेगित लोखण जाता -
घेता तो सुरी, खांडें,
पिस्तूल, तुबक, बम -
म्हजें तुजें म्हणून आड्डून
मारल्यात ताणे कितल्या जनांक!
वांटे मोडूक सोदपी तो -
कुटके तोडूक सोदपी तो -
देश चिरून तिसत्यो करूक
लागल्या ताका नष्टी ताकतीक!

पूत तो ह्याच देशाचो
भाव तो म्हजो तुजो -
मागीर जालो असो कसो?
वगडावं नाका मोग ताचेर
रीग दिवंनाका भितर

न्हय शिवरची काकूट लेगित
अश्या विखाळ बेंदल्लेंचेर!

काळजा रे बाबड्या,
नाका इतलो खतखतो -
विसव तरी घे मात्सो!
आनीय तुवें पळोवंक आसा
भोव साबार..

पळय, तुका आपयता
शंकरमामालें बावल्यां घर
भारताचें मिनियेचर!
अती सुंदर, अजापकर!

वरां गेल्लीं कळ्ळें ना!
पोराक पुरो जालें ना!
असोच मरे देश आमचो
कोटि कोटि जनांचो!
हीच विविधताय -
हीच सुंदराय!

शांतिवनांत पावंतना
गुलाबाचो वास!
भुरग्यां लागी खेळपी
एका द्रष्ट्याचो उडगास!

विजयघाटांत मतींत आयलो
ललितजीविताचो
एकलो सबळ कुशळ फुडारी!
शक्तिस्थलार पळयलो
हात शक्तीचो!
वीरभूमीर दिसलो गोबोर
तरन्या तरन्या सपनांचो!

आनी आतां राजघाट
यमुनातटा वयलें यादघाट!

राजमार्गा वयल्या आखाड्यार
एकटी फुल्लकारणी -
वळखीची न्हय
अनवळखीय न्हय -
तसली ती फुल्लकारणी..

तिणे दिल्लीं फुलां घेवंक
हात मुकार येना!
पळय जाल्यार निवळ न्हय!
चिखल मांडला -
चवड दसकांच्या
सान व्हड सुवार्थांचो!

'पोरा म्हज्या, घे तीं फुलां..'
ताळो थरथरता -
परतून एक पावट
काळीज धीर सोडता -
*(सांबाळ मरे स्वताक*
*मेळचीं नात हांगा पावलां बी!)*

प्रशांत सुंदर उद्याना मदें
सादो चौकोनी सोपो
काळ्या संगमरवराचो -
खूब खूब वळकीचो
पुण पळोवंक नाशिल्लो!
सतत पेटचो नंदादीप
फुलां खातीर बांक
आनी तो शांतिमंत्र -
हे राम!

पळयत राबल्यार
भितर उजवाड!
मोने म्हजे ओंट -
जोडलेल्या हातां फाटल्यान
हर्द्याचो धडधड -
दोळ्यां मुकार
हून दूकांचो धुवर -

गळ्यांत हुंडको
चिड्डून कसो..
'पानावेलीं फुलां हांगा दवर धुवा..
कोणा खातीर म्हुण कळता व्हय तुका?
हात जोड, पायीं पड
होवूय एक देवूच!'

महात्म्या,
तुका ओंपिल्ल्या फुलांक
लावंक ना म्हजे चिखला हात!
म्हज्या निष्कळंक पोराच्या
निवळ हातांनी केल्ली ही ओंपणी
स्वीकारून घे -
भेट ही एक मोन्या काळजाची!

हांगा
मेजक्याच दिसांनी
अमक्याच दिसांनी
तुजो उडगास घेतात -
फोटो वयली धूळ फुंकून
प्लास्टिकाची माळा धुवन
करतात आंगवणाचें पालन!
सात वात्यांचो दीवो जळोवन
फोटो वयलो देव करतात!

हांकां फोटो वयलो देव पुरो
शिंगारिल्लें देवळ पुरो
नांचून केल्लें भजन पुरो
माचये वयलें भाषण पुरो!
भाषणकार गिरेस्तांच्या
बंगल्यांनी लांबतात
व्हडलीं रंगीन चित्रां तुजीं..

पुण
दळदिर्यांच्या खोमटांनी मू
भोंवता तुजो आत्मो
रात दीस अशांत!
शंबर तीस वर्सां पयलीं
एक धन्य म्हूर्तार
पुण्य ग्रहांनी मेळून
पंचभूतां सारखीं मेळोवन
घडयिल्लो चमत्कार मू तूं!

अहिंसेचो मंत्र घेवन
सत्याग्रहा तंत्र घेवन
देश हो स्वतंत्र करून
मुक्तिदूत जालो
स्नेहदूत जालो
कर्मयोगी जालो
जालो महात्मो!

मातयेंत माती मेळसल्यारीय
उज्यांत उजो भरसल्यारीय ..
*(पुरो!*
*ह्या वयार बेठींच रडचें*
*नाका पोरान पळोवंचें!)*

ओल्ले पोल्ले ओगी पुसून
जड जड पावलां ओडून
परतून वचूंया..
परतून वचूंया..

## तो जाणा

देवान घेतले अवतार भूमीचेर
मनशां खातीर, फकत मनशां खातीर!
ताका खबर आसा, तो जाणा,
बाकी सगल्यांची तकली जाग्यार आसा!

## युगांतर

बाबड्या निषादा,
बोवाळ इतलो कित्याक?
बाण तोपला पायाक,
पळय संथ काडूक!

शीरेकच खोमला
शिरपुटाचो बाण
रगत व्हांवत वता
इतलें मात जाणा..

पावलें निमणें खीण
सरलीं सगलीं रीणां!

थंडाय आंगार चडता
चोयवशींय रान
मंद मंद पांवता वार्यार
कोगुळाचें गान..
परत मेळ्ळें आड पडूक
शैशवाचें पान
शांत शांत अंतराळ
शांत शांत मन..

हांव कृष्ण!
देवकीलो पूत
यशोदेलो बाळ
बलरामाचो भाव
राधेलो इष्ट
द्रौपदीलो देव
पार्थालो सारथी
अवताराचो मूर्ती..

नांव म्हजें सगल्यां जिबेर
सगल्या सगल्यांक मोग म्हजेर..

हांव कृष्ण, युगपुरूस!
अटंग्या रानांत एकटो..
अवतारा पासून मुक्तो!

यादी चडश्यो उडून गेल्यो
उण्यो थोड्यो आतांय जिव्यो
मथुरेक वता म्हणून
दुख हुसको गोकुळांत
दसकांची पीडा विसरून
आनंद आवय बापाक
द्वारकेंत राज्य करचें
पार्थाक धर्म सांगचो
दुखेस्त अंत अभिमन्यूचो

गांधारीलो विलाप शिराप
सर्वनाश यदुकुलाचो..

एकशें हजार प्रश्न मू
सामकार आयलेले!
एकशें हजार जापो दिवन
सोपे सोडयले!
चुकनाशें चुकयनाशें
सगलें युग रचलें..
नियोगाचे नेम पाळून
रचलो स्वताक
एकटेपण सोसचें कशी
शिकयलें स्वताक
धर्म राकचो म्हणून
हरदें निबर केलें
सोडली मेकळी जीण
आनी लोणयेची गोडसाण
सोडलीं झगडीं खेळ
आनी मोगाळ गोकूळ
सोडून गेलों राधेक
सोडून गेलों आवसूक
गांव सोडून रान सोडून
काळिंदीचे गींत सोडून
हातांतली मुरळी सोडून
पावलां मारलीं फुडें

नियोगाचे नेम पाळून
जियेलों हासून..

हांव कृष्ण, योगेश्वर
नांव म्हजें सगल्यां जिबेर
सगल्या सगल्यांक मोग म्हजेर
अटंग्या रानांत एकटो..
अवतारा पासून मुक्तो!
मनांत समाधान..
मनांत समाधान..

चडता थंडाय
पायां पासून
नांचता अंतस्कर्ण
सैमार भुलून!

एक खिणाक घुसपा गोंदळ
हें गोकूळ मू?
सगलीं लिपलीं दिसता!
आतांच सोदून धरतां!
कळाव नाका!
लोणी आजून खावंची आसा
न्हेसवणां चोरचीं आसाय
काळिंदींत पेवंचें आसा..

राधे,
तुजे मांडयेर माथें दवरून
असोच पडलों जाल्यार
सगलो जन्म न्हिदतलों गो!
माकाच विसरतलों!

हासूनाका! उठ गो!
हांवूय उठतां आतां..

उठून वचून
खूब कितें करचें आसा
विश्वच जिखचें आसा
सगल्या दुष्टांक मारून
शिष्टांक राखचें आसा
धर्म वांचोवंचो आसा..

कितलो मोव गो तुजो हात
म्हज्या निडलार भोंवतना!
थंड म्हळ्यार थंड!

हांव कृष्ण, गोपाळ..

## वसंत नर्तन

गोकुलांतूं पावलो वसंतू - फुलां सुगंधू
गोपगोपीकांक आनंदू !
नंदबाळू मदें राबुनू - करताय नांचू
सुंदर तें दृश्य उत्सवू !

नीलवर्णा देहकांती
मंदहासांत भरल्या प्रीती
वेणुवादन दिता शांती
म्हणूंया कृष्णाची कीर्ती !

गोकुलांतूं पावलो वसंतू - फुलां सुगंधू
गोपगोपीकांक आनंदू !

बालकृष्णा, नर्तन करी
भक्ती आमचे भितर भरी
दृष्टी आमचेर सदा दवरी
आमकां उद्धारी वयरी !

गोकुलांतूं पावलो वसंतू - फुलां सुगंधू
गोपगोपीकांक आनंदू !

## यरुशलें

यरुशलें
पुण्य नगरी, धन्य नगरी!
पावन तुजी माती
तीन कुळांक आवय तूं
तीन धर्मांक पूज्य भू
चरित्र तुजें अतुल
जायत्यो घुड्यो उबल्यो तुजेर
थोड्यो मोडून पडल्यो
उबी केल्ल्या देवळांचो गे
गोबोर मागीर उबलो
भावंडां खातीर तळमळल्याक
खीळे खोमून मारलो..

यरुशलें
काणी तुजी दुखदिणी
झुजांची, विनाशाची
विलापाचे वण्टेची
खूंट मारून खण खणून
कुटके केल्ल्या वांट्यांची
एकलो तुजेर राज्य करता
एकलो तागेर झुजता
बेसला तिसरो पळेत
*म्हजोय काल येतलो..*

आपलें आपलें रगत ओंपून
मोगाळ पूत गेले
बाकी सगल्या जाणांनी गे
तुजेंच रगत चोखलें!

यरुशलें
तूं एक चमत्कार!
मेलो म्हूण पुरिल्ल्या पुताक
तुवें अमर केलो!
तुजे पुतांक येवकार दिवूंक
स्वर्गा दार उगडलो!
एका पुताल्या उडगासाक
फातरकुंभ उरलो
आनी पुताल्या उडगासाक
तुवेंच खुरीस व्हावलो!

यरुशलें
तांबडी तुजी माती
निशपापींचें रगत पडल्यां
तुजेर फाटीं खूब
आतांय पडत आसा
आनी फाल्याय पडतलें?
कसली तुजी चूक?
पाप केलें कसलें तुवें?
यरुशलें
पुण्य नगरी, धन्य नगरी..

## कोण तूं?

आगा, तूं कोण?
हांव तुका वळखना
तीख कोडू उतरां तुजीं
आमचें कांय नातें ना.
हांव सरळ मनाचो
सोप्या उतरांचो
तुजे विचार, भावना
माका समजनात.

कोण तूं
इतलो रागेस्त
पीडेस्त मनाचो
काळखांत रडपी
काळीज पिंजून दाखोवपी
तत्वज्ञानी, स्थितप्रज्ञ..

हे परकी मनशा
हांवें हातांत लिखणी घेतना
म्हजे तरफेन म्हूण
तूंच कित्याक उलयता?!

## भारतनारी

जयतु जयतु भारतनारी!
अभिमान तुज्या नांवांरी

गंगा यमुना तीर्थ समान
घर घर करता तूं पावन

नवयुग रचनेक अनन्य दान
करूंया आमी तिगेलें नमन

घराची दीप्ती, कुलाची कीर्ती
पुजूक योग्य तुगेली मूर्ती
आमच्या पुराण इतिहासांनी
तुका दाकयल्या पंचारती!

विद्या विज्ञान कला प्रवर्तन
धीर निर्भय जनता सेवन
भारतनारी, तुगेलें जीवन
समस्तजनांक सदा प्रचोदन!

तिका वळखुया!
मानु दीवूया!
मोल जाणूया!
कीर्ती म्होणूया!

## बळी

कागता खातीर बळी जालेल्या रुखा
तुज्या कागताक आतां
जीव दितां..
म्हजे खातीर बळी जालेल्या कागता
तुका म्हजो आत्मो दितां..

# श्री. शरतचंद्र शेणैलीं इतर पुस्तकां

---

**अंतरनाद**

कविता संग्रह.

केन्द्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार - 1999.

**'अंतरनादाचो प्रतिध्वनी काळजांत घुमत आसा..'**

**- मनोहरराय सरदेसाय**

---

**आत्मायन**

कविता संग्रह.

25 कवनां, 21 कवनुलां, 27 थिकां आनी चार गीत.

डॉ. टी. एम. ए. पै अत्युत्तम कोंकणी पुस्तक पुरस्कार -2010.

**'कोंकणी कवितेक नव्यतम नभोमंडलार व्हरपी अंतरनाद काव्यसंग्रहा उपरांत, अनुवाचकांक चिंतन-अनुभूतींच्या व्हड्यां जोड्यांत विश्वदर्शन करोवपी, आत्मदर्शन मेळोवपी, एक नादांतर..'**

---

**श्रीकृष्णकथासुधा**

श्रीकृष्णाले अवतारकथेचेर आधारिल्लें

अष्टोत्तरशतश्लोकी काव्य.

**'जिबेक जी शब्दसुधा**
**कानांक पीयूष सदा**
**अंतरांत अमृता वर्षा**
**आयकयतां ती कृष्णकथा!'**

## लोकधन

केरळांतुल्या कोंकणी लोकसाहित्याची वळख आनी माहिति दिवपी पुस्तक. अस्तित्वा खातीरच्या झूजांतुल्यान आनी जीणेच्या शंबर एक संकष्टांतुल्यान वाट काडून मुकार सरपी एक समाजान आपली अस्मिताय, आपली भास आनी आपली संस्कृताय शतकां शतकांनी कशी राखली म्हळ्ळेल्याची घणघणीत गवाय. पुरायपणान स्थलांतरित जालेल्या एक जानांगाच्या लोकवेदाचो परिचय.

---

## अनिश्चित

ग्रामीण केरळाच्या पश्चात्तलाचेर रचलेली नवलिका.
तीन दशकां पूर्विल्लो कालखंड.
**'अनिश्चित म्हळ्यार जीवित म्हळ्या पदाचें एक पर्याय पद..'**
हे नवलिकेचो पयलो भाग तीन दशकां पूर्वीं एक कथेचे रूपान उजवाडायलोलो, जेन्ना ताका अखिल केरळ तलावेल्या साहित्य मत्सरांत प्रथम पुरस्कार मेळ्ळो.

---

## परणें घर

नवलिका. बालसाहित्य. केरळाच्या पश्चात्तलाचेर रचलेली चौग विद्यार्थी मित्रांल्या धाडसाची सुंदर काणी.
**'वैष्णवरत्न'** मासिकेचेर हे आदीं उजवाडा आयल्या.
नवलिके भायर एक लघुकथाय ह्या पुस्तकांत आसा.

## काव्योद्यान

संपादित संग्रह.
वीसाव्या शतकांतुल्या केरळच्या
35 प्रमुख कोंकणी कवींची कविता, तांचीं चित्रां,
आनी वळख एकडे केलोलो अप्रूप संग्रह.

**'श्री. शेणै हांणी ह्या संग्रहाचें खूब कलात्मकतेन आनी वेवस्थितपणान संकलन आनी संपादन केलां. केरळच्या फाटल्या कितल्याशाच दसकांतल्या काव्यसाहित्याची समर्थपणान जाणीव दिवपी असो हो संग्रह.'**

- प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार

---

## साहित्यदीप्ति

संपादित संग्रह.
केरळच्या कोंकणी साहित्य क्षेत्रांतुल्या
आयच्या 15 प्रमुख लेखिकांची एकेक गद्यकृति
आनी तांची वळख हांचो संग्रह.

'ह्या संग्रहांतुल्यान केरळच्या महिळा कोंकणी साहित्यकारांचो एक नवोच परिचय कोंकणी समाजाक मेळतलो..'

- डॉ. एल. सुनीता बाय.

'तेरा काण्यो आनी दोनि प्रवास कथन हांचो हो मोतियां हारु सिब्द कोर्नु, यशस्वी रीतीन हाचें संकलन संपादन कोर्नु श्री. शेणै हान्नी कोंकणी समाजाक महदुपकार केला..'

- प्रा. एम. एन. प्रभु (उडुपी)

### गीतसरोवर

लळित गीतांचो संग्रह.
'भारतभूमी', 'जागरण', 'देवी मंदिर', 'स्मृत्यष्टक'
आदी भावगीत, इखरा भक्तिगीत, आनी दोन बालगीत.
**'आमच्या पूर्विकांक आमी नमन करूंया,**
**कोंकणीची सर्शी, भावा, आमी शिंपूया!'**

### गोश्रीपुरेश भजनामृत

कोची गोश्रीपुराधीश श्री वेंकटेशाचें भजन.
हे दिव्य मूर्तीच्या पूर्वचरिताचें वर्णन,
देवळांतुल्या उत्सव-आघोषांचें वर्णन, स्तुतिवंदन,
आदी मेळयलेलें सुदीर्घ गीत.

### साहित्य संकलन

संपादित संग्रह.
केरळच्या इखरा समकालिक कोंकणी लेखकांल्यो
वेंचीक कृती. इखरा कथा, आट कविता,
एक विनोदभावना, एक परिसंवाद, दोन निबंद
आनी सगल्याय लेखकांलो परिचय दिला.

## नंदादीप

संपादित संग्रह.

केरळच्या उदयकालीन (1850-1950)

कोंकणी साहित्याचें अप्रूप संकलन. त्या कालखंडांत केरळच्यान जालेल्या कोंकणी वावराची समग्र वळख दिवपी संग्रह.

श्रीमती अम्मुलक्का शेणै, श्रीमती जी. कमलम्माळ, श्री. पी. एन. नरसिंह पै, श्री. आर. सी. शर्मा, श्री. आर. रंगनाथ प्रभू, श्री. एन. एन. पत्मनाभ शेणै, श्री. के. पत्मनाभ भट, श्री. मंजेश्वर गोविंद पै, श्रीमती वेदवती अम्माळ, श्री. एस. जी. नायक, श्री. आर. एस. प्रभू, श्री. आर माधव पै, अशी अनेक पूर्वजांची वळख, तांगेल्या वावराविशींची माहिती, आनी तांगेल्यो रचना बी गांथून केलोलो एक अमूल्य संग्रह.

Published by Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi.

---

## കൊങ്കണി ഭാഷാ പഠന സഹായി

Konkani Learner through Malayalam. Deals with spoken as well as written language. Suitable for self-study also. Prose models like conversations, letter-writing, essay samples, etc. are annexed. Konkani is given in Malayalam script also for the benefit of those who wish to learn the spoken language. Includes a Malayalam - Konkani Vocabulary.

Published by Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi.

---

**मीरा, जीवन आनी कवन**

सोळाव्या शतकाचे संत मीरा बायची जीण आनी
तिगेल्या 60 भक्तिपदांची पद्यपरिभाषा.
देवकीकृष्ण प्रतिष्ठान परिभाषा पुरस्कार -1991.

**'मीरापदांत खास तराचे जायते गुण आसाय. त्या गुणांचें पडबिंब
ह्या पुस्तकांतलीं पदां वाचतना तुमकां मेळतलें
हो विश्वास हांव करतां. ह्या पुस्तकाच्या वाचकांक मीरेले
जीणेची आनी तिच्या पदांची पूर्ण वळख आनी
समजणी मेळतली अशीय विश्वास करतां.'**

- डॉ. आशा बी. एस.

---

**श्रीकृष्णकर्णामृत**

जोड लेखकः डॉ. पी. बी. जनार्दन.
'लीलाशुक' विरचित मूल संस्कृत श्लोक सहित
स खंडांनी (स्तुति, बाललीला, रासलीला, सौन्दर्यातिशय,
पावलां महिमा, प्रार्थना) 101 श्लोकांची
पद्यपरिभाषा, शब्दार्थ आनी व्याख्या.

---

**श्री वेंकटेशसुप्रभात**

विश्रुत भक्तिगीताची परिभाषा, मूल संस्कृत श्लोक सहित.
श्री वेंकटेशसुप्रभात, श्री वेंकटेशस्तोत्र, श्री वेंकटेशप्रपत्ती, आनी
श्री वेंकटेशमंगळस्तोत्र. मूल संस्कृत श्लोकांचो अर्थ परिचित
करून दीत, उत्तम रसास्वादन साध्य करपी सरळ भाषांतर.

---

**A Handbook for writing Better Konkani**

A language guide for improving Konkani writing.
Contains an English-Konkani Vocabulary.
Published by Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi.

---

**Script - A Scientific Contemplation**

Translation from Konkani original of Sri. P. G. Kamath.
Preface by Dr. N. S. Prabhu, Bengaluru.
Publishers: Konkani Bhas Ani Sanskriti Pratistan, Mangaluru.

---

**कोंकणी बरयतना**

जोड लेखकः श्री. पी. जी. कामत.
उदीयमान बरोवप्यां खातीर कोंकणी शुद्धलेखनाचें मार्गदर्शक पुस्तक. अक्षरशुद्धी विशीं, शब्दशुद्धी विशीं, व्याकरणशुद्धी विशीं सगट संक्षिप्त आनी प्रसक्त रूपान मार्गदर्शन दिता.

'मुंबय पासून कोचीमेरेन रावतल्या कोंकणी लोकांचो एकामेकांकडलो संपर्क वाडूंक लागला तेन्ना सावन प्रमाणीकरणाचो वावर आपशींच सुरू जाला अशें म्हणूं येता. पूण ताची गती मंद आसता. ती वाडोवपाक अभ्यासाचो आदार लागता. असो अभ्यास कोंकणीच्या मुखेल केंद्रांनी सुरू जाला. 'कोंकणी बरयतना' ह्या पुस्तकाक असोय एक आयाम आसा.' (सुनापारान्त, गोंय)

## अक्षरगीता

भगवद्गीतेच्या 51 श्लोकांतुल्यान देवनागरी अक्षरमालेचो परिचय.
श्लोकांचो अर्थ आनी अभ्यासाचीं उतरां कोंकणींत.
Published by Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi.

---

## മലയാളം കൊങ്കണി ക്രിയാപദാവലി

An extensive vocabulary of Konkani Verbs.
Also includes a concise vocabulary of
most needed other words.
Published by Samyuktha Gowd Saraswath Sabha, Calicut.

---

## കൊങ്കണി നമ്മുടെ മാതൃഭാഷ

A booklet highlighting important facts about Konkani.
Includes a Mini Vocabulary.
Published by DISHA Institute of Konkani, Kochi.

---

## പൊൻതിരി

Malayalam translation of NIRANJAN - Konkani
short story collection of Smt. Radhika Shenoi.
Preface by Smt. C. K. Rajam, Palluruthy.
Published by DISHA Institute of Konkani, Kochi.

---

*आनी मुकार उजवाडा येता -*

## रंगभूमी

सात नाटकां.
'घर संसार', 'थळथळेवंचे सर्वय भांगार न्हय', 'पुण्यवंति',
'अत्ती आनी पित्ती', 'विश्वासाची सेल्फी',
'भिकू मामाली बोकोडि', आनी 'एकलव्याली गुरुदक्षिणा'.




लिखणी ही असली
अक्षरदर्यांत कवितेचीं मुक्ताफळां वेंचपी
परमेश्वराचो चिरंतन सोद घेवपी
सैमाचे आनी जिणेचे भौरंग चितारपी

लिखणी ही असली
मनशांल्या अमानूष वृत्तींचेर निरशेवपी
अनवळखी अगतींखातीर दूकां गळोवपी
गेल्ल्या दिसांचे यादीन अश्रेकणी भोगपी

लिखणी ही असली
जीविताच्या तेजान भिजल्ली
जिवी ताजी, तट्टटीत.